# जाग

वर्स २७ ◇ आंक २ ◇ सप्टेंबर २०००

| | | |
|---|---|---|
| संपादपी | : | रवीन्द्र केळेकार |
| वावुरपी संपादपी | : | माधवी सरदेसाय |
| उजवाडावपी | : | सुमन्त केळेकार<br>प्रियोळ, म्हाड्डोळ, गोंय. |
| अक्षर जुळणी | : | तन्वी ग्राफिक्स,<br>बी-०४, आषाढ, माडेल, मडगांव. |
| छापपी | : | प्रिंटआर्ट ऑफसेट् प्रिंटर्स,<br>कुंडय इंडस्ट्रियल इस्टेट, कुंडय, गोंय. |
| भायलें चित्र | : | डॉ. सुबोध केरकार |


## ह्या आंकांत




| | | |
|---|---|---|
| वर्सुकी पटी | : | रु. १००/- |
| विद्यार्थ्यांखातीर | : | रु. ७५/- |
| तीन वर्सांची पटी | : | रु. २५०/- |

चेक वा ड्राफ्ट Jaag Monthly च्या नांवाचो आसचो.
(चेक मडगांव भायले बँकेचो आसल्यार रकमेंत
धा रुपये अदीक जोडचे)

वेव्हाराचो नामो:

**जाग** म्हयनाळें

२०१-बी, सालदेल अपार्टमेन्ट्स

रूअ द साउदादिश, पाजीफोंड,

मडगांव – गोंय ४०३ ६०१.

किरकोळ आंकाचें मोल: रु. ९/-


## नदर संपादप्याची

### पर्थून पु.ल.

मुम्बयच्यान बाब मनोहर पै धुंगट बरयतात—

*कालूच जागाचो जून म्हयन्याचो आंक मेळ्ळो. 'नदर संपादप्याची' ह्या सदरांतली 'पु.ल.' ही टिप्पणी वाचून निराशा जाली हें कळोवपाक हें पत्र. रवीन्द्रबाबांनी पु.ल.च्या पुस्तकांचो पुराय सॅट दिवन उडयतना तांच्या निवडक साहित्याचो 'एक साठवण' म्हणून जो संग्रह स. दळवीन काडिल्लो तो आपणाकडेन दवरून, टिप्पणी बरोवंचे पयलीं तो नदरे सकयल घाल्लो जाल्यार पु.लं.क थोडो न्याय दिवपी बरप जातलें आशिल्लें. दोतोर सुखठणकाराचें 'भान्नीपुनव' वाचून तांणी कोंकणींत बरयल्लें पत्र त्या संग्रहांत आसा. त्या पत्रांत 'वाचतना हांसून हांसून गुळी जाली' अशी फ्रेज आयल्या. मराठींत हांसून 'पोट दुखता'. 'हांसून हांसून गुळी जावपा'ची फ्रेज पयलेच खेपे मेळ्ळी! कोंकणी पु.लं.ची कायद्यान 'आवयभास'. तांकां कोंकणींतल्यान उलयल्लें आवडटालें. हे संबंधिची याद भौ. मोहनदास सुखठणकार हांणी हालींच एका लेखांत दिल्या. 'स्वाती' निबंध संग्रहांतल्या 'कारवार' ह्या तांच्या निबंधाची वेगळी वळख करून दिवपाची गरज ना. हो निबंध आनी कोंकणींत बरयल्लीं दोन पत्रां हांचे वयल्यान तांकां हे भाशेची बरी जाण आशिल्ली हें कळटा. 'मराठी वाङ्मयाचा (गाळीव) इतिहास' ह्या पुस्तकांत कोंकणी संबंधान कितें म्हळ्ळां ताचे वयल्यान ते कोंकणी भाशेच्या मळार कितें फकाणां चलतात हाचे विशीं जागरूक आशिल्ले हाची नाट मेळटा.*

*मध्यमवर्गा विशींच आपणें बरयलां हें तांकांय मान्य आशिल्लें. जाचे विशीं आपणाक खबर ना – कामगार दलितांचीं दुख्खां हांचे विशीं बरोवंक जालें ना हें तांणी मान्य केलां (पु.ल. वृत्तांत). 'तुझें आहे तुजपाशी' ह्या नाटकाविशीं बरीच चर्चा जाल्ली आसा. पु.ल.न एकाच खंयच्या आचार्याची नक्कल केल्या (आचार्य भागवत) अशें म्हणप बरोबर जावंचें ना. हालींच भौ. सुनितांबाय देशपांडेन 'सगे सांगाती' म्हणून पुस्तक बरयलां. तातूंत आचार्य पटवर्धनांचें नांव आयलां. एकदां ते सुनिताबायगेर आयिल्ले. तांकां जेवणार धंय लागता म्हणून धंय दवरिल्लें. धंय गायच्या दुदाचें, विरजण मात म्हशिच्या दुदाचें अशें स्पश्टीकरण सुनिताबायन दिलें. आचार्यांक राग आयलो खंय. पु.लं.क विशय मेळ्ळो अशें तांणी बरयलां. जेवणा खाणा विशीं आचार्य लोक जितलो जिवाचो थातोमातो करताले तितलो जेवणाची आवड आशिल्ले gourmet लोक सुद्धां करिनात! काकाजी तांकां रसिकाग्रणी रामूभय्या दाते वयल्यान सुचलो असो सर्वसाधारण समज आसा.*

*'तुझें आहे तुजपाशी'चो गुजरातींत अणकार जाला 'मीन पियासी' नांवान. पयलो प्रयोग आय.एन्.टी.न केल्लो. 'आईये जनाब' ह्या नांवान इंग्लीश, हिन्दी अणकार आसात. थंयूय तें नाटक 'सक्सेसफूल' जरूर जालां. आसूं!*

*समाजांतलें कुसकें, नश्टें, पाडें हुमटून काडपाची जापसालदारकी आचार्यांची! असामान्य प्रतिभेच्या मनशान अमकेंच करूंक जाय आशिल्लें अशें सांगप चुकिचें दिसता. 'विनोदाच्या अस्त्राची विफलता' म्हणप हीं तर सुबेजपणां. आपली जापसालदारकी वळखून आणीबाणीच्या वेळार आनी उपरांत पु.लं.नी काम केलां. दलित*

साहित्याक फावो तेन्ना उत्तेजन दिलां. मेळिल्लें धन उत्तम प्रकारे वांटलां हाचो उल्लेख खंयच ना. जाणकारा कडल्यान तांच्या कार्याचेर लेख बरोवन घेवन भरपाय करची.

जाप मात्शी स्पस्ट बरयतां, रागार जावचें न्हय, मनोहरबाब.

पु.ल. एक साहित्यीक आशिल्ले, हांवें न्हय म्हळां व्हय? ते आगळे वेगळे प्रतिभेचे एक साहित्यीक आशिल्ले म्हणपाचेंय मेकळ्या ताळ्यान कबूल केलां. साहित्यिकाक साहित्याची जाण आसुंकूच जाय आनी पु.लं.क ती बेस बरी आशिल्ली. तांकां कोंकणी येताली. कोंकणी मनशाकडेन ते सदां कोंकणींतूच उलयताले. कोंकणींत कितें येता हाचो तांकां थोडो भोव अदमासूय आशिल्लो. पुणून, **कोंकणीचे व्यथेची जाण** तांकां आशिल्ली व्हय? आशिल्ली जाल्यार **कोंकणी ही भाषा आहे कीं बोली हें सांगायला डॉ. मीनाक्षीसुंदरमची आवश्यकता नाहीं, कळ्ळें मू भेंब्रेबाब?** हो लेख ते बरोवचेच नाशिल्ले. तांणी तो बरयला आनी **महाराष्ट्र टायम्सार** छापुनूय हाडला. तोवूय अश्या एका म्हुर्तार की जेन्ना 'भास काय बोली' ह्या चिखलांत मुंगरिल्ली कोंकणी चिखलांतल्यान वयर सरपा खातीर साहित्य अकादमीचो आधार मागताली. इतल्यान सोंपूंक ना. कोंकणीचे मान्यतायेक मराठीचे प्रतिनिधी भौन भौन विरोध करतात म्हूण उबगून मान्यतायेच्या प्रस्नाचो सोक्षमोक्ष लावपा खातीर अकादमीच्या अध्यक्षांनी तो जनरल कौंसिलाचे बसकेंत मताक घालो, त्या वेळार पु.लं.नी 'मान्यताय दिवची न्हय' ह्या अर्दान आपणालो हात वयर काडून कौल दिल्लो विसरले तुमी, मनोहरबाब?

पु.लं.क कोंकणी बोलीच म्हूण उरिल्ली जाय आशिल्ली. भास जाल्ली नाका आशिल्ली. खंयच्या तरी भौमानाचेर नदर दवरून (काय कोणाच्या प्रॅशराक बळी पडून?) कोंकणी चळवळिच्या ऐन त्या निर्णायक खिणार तांणी कोंकणीचे फाटींत सुरो तोपला.

पु.ल. एक व्हड दानशूर आशिल्ले ही तांची तुस्त तोखणाय आयकून आयकून कान भेरेले. कित्याक करची पडटा ही तुस्त? दानशूर करता तो विस्वासघात विस्वासघातांत मोडना, अशें सुचोवंक सोदतात काय कितें तुमी? मनोहरबाब, आमचे दयानंद बांदोडकार दानशूर नाशिल्ले? तांकां मीन लागलें, लाखांनी रुपये तांच्या हातांत घोळपाक लागले त्या वेळार तांणी लोकांक जे पयशे वांटल्यात ताचें म्हाका व्हडलेंशें ना. पुणून बोल्सांत पानदुडू लेगीत नाशिल्लो – दनपारच्या जेवणाक तपल्यांत घालपाक घरांत तांदूळ नाशिल्लो – त्या वेळार लेगीत ह्या मनशान गरजेवंताक आपणाकडलें **सगळें दिवन उडयलां.** कोणाक रिकाम्या हातान वचूंक दिवंक ना. गोंयच्या बारीक दुबळ्या लोकांक ते बेश्टे **देव** कशे दिसनाशिल्ले. हजारांनी लोकांक ते पावल्यात.

पुणून ह्याच बांदोडकारांच्यो तांच्यांतल्या महाराष्ट्रवादाक लागून आमी तिसत्यो-वादऱ्यो केल्यात, विसरले तुमी? तांकां सत्ये वयले देंवोवपा खातीर तरांतरांच्यो चळवळीय चलयल्यात. 'इतल्या बऱ्या मनशाक तुमी अशें करपाचें न्हय' अशें म्हणटले व्हय तुमी, मनोहरबाब? आमी तांचे आड झुजूंक नाशिल्ले जाल्यार भारताच्या नकशार आयज तुमकां गोंयचें नांव निशाण लेगीत दिश्टी पडचें नाशिल्लें.

बऱ्या मनशाचे लेगीत हात आडावन धरचे पडटात केन्ना केन्ना.

पु.लं.त कितलेशे व्हड गूण आशिल्ले, खबर आसा म्हाका. ते संगिताचे दर्दी आशिल्ले, कवितेचेय आशिल्ले. विनोदांत तांचो हात धरपी कोण नाशिल्लो. एक बरे नट आशिल्ले. बरे नाटककारूय आशिल्ले. एक प्रतिभावंत मनीस आशिल्ले. सगळें खरें. पुणून **साहित्यीक फकत प्रतिभावंत आसून उपकारना. तो थोडो भोव तरी प्रज्ञावंतूय आसूंक जाय.** प्रतिभेचो आपूण सदुपयोग करतां काय दुरुपयोग हाची जाण ताका आसूंक जाय. **तुझें आहे तुजपाशी** नाटक बरयलां त्या वेळार पु.लं.ची प्रज्ञा खंय चरूंक गेल्ली, देव जाणा. ह्या नाटकांत तांणी गांधीवादी आचार्यांची 'दांभिकपणां' उक्ताडार घाल्यांत म्हूण तुमी नाटकाची तोखणाय करतात. तांका दांभिकपणां फकत आचार्य भागवतांतूच दिश्टी पडलीं? बाबा आमटेंत दिश्टी पडलीं नात? बाबा आमट्यांच्या पांयां कडेन तर तांणी आपणाली थैली खणखण करून ओतल्या!

तुमी आपणाल्या म्हणण्याक तेंको दिवपा खातीर सुनीताबायच्या **सगे सांगाती** पुस्तकांतलो एक प्रसंग सांगला: 'तांगेर खंय एक फावट आचार्य पटवर्धन आयिल्ले (कोण हे?) तांकां धंय लागता म्हूण धंय दवरिल्लें. धंय गायच्या दुदाचें आशिल्लें. पुणून म्हेंळांय म्हशिच्या दुदाचें आशिल्लें. सुनीताबायन आचार्यांक हें सांगतकूच तांकां खंय राग आयलो आनी पु.लं.क एक विशय मेळ्ळो.'

हांवें **सगे सांगाती** पुस्तक पळोवंक ना. पुणून सुनीताबायचें **आहे मनोहर तरी** वाचलां. तातूंत हो प्रसंग सांगतना तांणी शंकरराव देवांचें नांव घेतलां. आनी 'शंकररावांनी ह्या दह्याला हात लावला नाहीं' इतलेंच म्हळां. तांकां राग आयिल्ल्याचो उल्लेख तातूंत ना. 'पंगतीक बशिल्ल्या लोकांक' मात राग आयिल्लो म्हळां. (ते गांधीवादी आशिल्ले?) दुसऱ्याच पॅराग्राफांत शंकररावांच्या 'कणखर व्यक्तिमत्वा'चे आनी 'निर्भय स्वाभिमाना'चे दोन प्रसंग सांगून सुनीताबायन खासा आपणावूच एक प्रस्न केला – 'सत्ताधिशां मुखार – मागीर ते इंग्रज आसूं वा भारतीय – मात लेगीत तकली बागयनासतना 'तत्त्वाक घट्ट दसून रावपाचें धैर्य' तांच्यांत गांधीवादाक लागून येवंक पावलें काय मुदलांतूच तांच्यांत हें धैर्य आशिल्लें म्हूण ते गांधीवादा कडेन पावले?' सुनीताबायन फकत प्रस्न विचारला. जाप सोदपाची तकालस घेवंक ना. इल्लीशी घेतिल्ली जाल्यार 'हे लोक सरसमानां सारके नाशिल्ले, तांच्यांत वेगळें कितेंय तरी आशिल्लें... हे integrity चे लोक आशिल्ले' म्हणपाची जाप तिका मेळटली आशिल्ली. मागीर, बरीं बरीं लुगटां बाजारांत मेळटा आसतना हे लोक दाट खरखरीत खादीच कित्याक घालतात, विज्ञानान एका फुडलीं एक यंत्रां सोदून काडिल्लीं आसतना हे लोक दोन चार हजार वर्सां पयलिंच्या चरख्यारूच सूत कित्याक काडटात, दाट्ट बरें म्हशिचें दूद सगळे कडेन सोंपेपणान मेळटा आसतना मेळूंक कठीण असलें गायचें पातळ दुदूच आपणाक कित्याक जाय म्हणटात – ह्याय प्रस्नांच्यो जापो मेळटल्यो आशिल्ल्यो. सुनीताबायन आपणाल्या प्रस्नाची जाप सोदपाची तकालस घेवंक ना ती घेवंक ना. तिका जाणा जावन घेवपाची इत्साय जावंक ना. **तुझें आहे तुजपाशी** नाटक पळेतल्या प्रेक्षकांकूय केन्ना ती जायना. मागीर गांधीवाद्यांक कोल्ली, विक्षिप्त, धोंगी, दांभीक, फॅडिस्ट सोडून ते आनीक कितें म्हणटले?

महाराष्ट्रांत खूबश्या जाणांचो एक समज जाला – देवान जेन्ना सगळ्यांक बुद्द वांटली तेन्ना धड मडकीं घेवन फकत हेच गेल्ले, बाकिचे चाळणी घेवन गेल्ले आनी गांधीवादी लोक तर पोंदूच नाशिल्लें आयदन घेवन गेल्ले. हाका लागून प्रस्न समजून घेवपाची जी जिज्ञासा मनाक आसता तीच तांच्यांतली ना जाल्या. 'सर्वज्ञ' जाल्ले वरी ते उलयत बरयत आयल्यात. कोंकणी हे बडीक 'काडली जीब लायली ताळ्याक' बड म्हणटा आनी तिका 'थिल्लरपणा'ची कुरू मानता. मात्शी तकालस घेवंक जाय. म्हणटकूच मागीर गांधीवाद्यांच्या 'विक्षिप्तपणां' फाटल्यान एक 'विचार' आसतालो, तो काळाचे व्हांवतेचे उरफाटे दिकेन पेंवतालो म्हणपाचें दिसून येतलें आनी अशें पेंवप असल्याच कणखर लोकांक जमपाचें म्हणपाची जाणवीक जातली. आपणाल्या व्रतांचो लोकांक 'उपद्रव' जाता हें ते नकळ आशिल्ले व्हय? बेस बरे जाणा आशिल्ले. पुणून 'उपद्रव' ते 'जावंक दिताले'. उपद्रवांक लागून तरी हे लोक असलीं व्रतां कित्याक घेतात म्हूण विचारतले आनी थोडे भोव चिंततले अशी ते उमेद बाळगिताले.

चिंतपाक एके तरेचें तांचें हें provocation आसतालें.

एक सांगात — मुसलमानांनी एक गाय मारल्यार धा मुसलमान मारपाक फुरफुरून येवपी लोक आसात न्हय ह्या देशांत ? हिन्दू मुसलमानांचे आयजवेर जितलेय दंगे देशांत जाल्यात (जांकां लागून देशाच्या स्वातंत्र्याक आडखळ जाल्या) तितलेय हे एके गायन घडोवन हाडल्यात, गायचो प्रस्न हो देशांतलो एक 'स्फोटक' प्रस्न, जो फाटल्या देड दोन हजार वर्सां सावन देशाक सोडोवंक येवंक ना. आतां सांगात, मारपाक मुसलमानांक गायो खंय मेळटात ? ते कांय स्वता गायो पोशिनात. पळोवंक नात हांवें. तुमी पळेल्यात व्हय ? किरिस्तांवूय पोशिनात. आदिवासीय पोशिनात. पोसतात फकत हिन्दू. 'तेत्तीस कोटी देव तिच्या पोटांत आसात' अशें मानून. पुणून गायन दूद दिवपाचें बंद केल्यार पुरो, तिका 'पांजरपोळींत' व्हरून सोडपाक हेच **गोरक्षक** हिन्दू मात् लेगीत अनमननात. पांजरपोळींतल्यानूच ती कसाबांच्या हातांत पावता आनी कसाबांकडल्यान ती मुसलमानांच्या हातांत वता.

कसाब चडशे मुसलमानूच आसतात.

गाय मारल्या म्हणपाचें कळनाफुडें हुर्रफुर्र जावन मुसलमानांक मारूंक धांवतल्या गोरक्षकांक 'बाबांनो, तुमी करतात ते तरेन गोरक्षण जावपाचें ना. गोरक्षण करतले जाल्यार पयलीं एक नित्शय करात – गाय दूद दिना म्हूण तिका पांजरपोळींत धाडचे नात अशें थारायात, घराच दवरात; गाय म्हारग पडना... ती दूद दिना जाली जाल्यारूय दुदा परस लाख मोलाचें शेण दिता... ते भायर, आनीक एक नित्शय करात, म्हशिचे सर्तींत गायक राखण मेळूंक जाय जाल्यार आमी गायचेंच दूद पियेतले, गायचेंच लोणी-तूप वापरतले असो सोपूत घेयात' हें जे सांगतात, (**गोरक्षणाक** जे **गोसेवेचें** रूप दितात) तांकां धोंगी, दांभीक, विक्षिप्त, कोल्ली, फॅडिस्ट म्हणपाचे, मनोहरबाब ? बिरमत फुट्टली.

ज्या लोकांनी एका स्फोटक प्रस्नाक विधायक दिका दिवपाचो यत्न केलो, ते खातीर एक खेरीत गोसेवासंघ सुरू केलो, देशांत खूब कडेन गोशाळा चलयल्यो, गायचो वंश (breed) सुधारून दुदाचें उत्पादन वाडोवपाचो यत्न केलो – आनी, लोकांक जें करात म्हूण ते सांगताले तें तांणी खासा आपणाल्या जिवितांत चलणुकेंत हाडून दाखयलें तांकां 'जिवाचो थातो मातो करपी' मानप मू हो तुमी ? 'जिवाचो थातो मातो' खंयचोच गांधीवादी करिना. तो जेवता फितें तें तुमी पळेलां ? आयुष्यभर तो मीठ नाशिल्लें मसालो नाशिल्लें जेवण जेवीत आयला. जिवाचो थातो मातो करप हें जांकां तुमी **रसिकाग्रणी** म्हणटात तांचें काम. तांचेंच तत्त्वज्ञान तें. खायात, पियेयात, मजा मारात हाचे पेले कडलें खंयचेंच उदात्त तत्त्व जांकां पेलना, पटना आनी समजय ना तांची देख ह्या देशांतल्या लोकां मुखार दवरप आनी 'आदर्श' लोक ते हे, आनी दांभीक ते दुसरे म्हूण तांकां सांगप हें 'असामान्य' प्रतिभेंत बसता जायत, सामान्य प्रज्ञेंत बसता व्हय ?

स्पष्ट बरयतां म्हूण रागार जावं नाकात, मनोहरबाब. पु.लं.चें **तुझें आहे तुजपाशी** नाटक **मी नथुराम बोलतोय** नाटकाचें precursor. जे भाशेंत **तुझें आहे तुजपाशी** नाटक येवं येता तेच भाशेंत **मी नथुराम बोलतोय** जल्माक येता. काँग्रेसवाल्यांनी धुमशेणां कांडून ह्या नाटकाचेर सरकाराक बंदी घालूंक लावंक नाशिल्ली जाल्यार पु.लं.च्या नाटका इतलेंच (घडये चडूच) तेंय 'लोकप्रिय' जातलें आशिल्लें. जंय जंय संघ परिवाराचो प्रभाव आसा थंय थंयच्या भासांनी भाशांतरीत जावन येतलें आशिल्लें आनी पु.लं.च्या नाटकां परस चड गाजतलें आशिल्लें. पु.लं.नी फकत गांधीवादी आचार्यांक दांभीक म्हूण चित्रायल्यात. **मी नथुराम बोलतोय** नाटकान खासा गांधींक दांभिकूच न्हय, तर **दुष्ट** आनी **देशद्रोही** म्हूण सिद्ध करपाचो यत्न केला.

'असामान्य प्रतिमे'च्या साहित्यकारान अमकेंच बरोवंक जाय म्हणप चुकिचें आसत. पुणून 'अशें बरोवंक जायना आशिल्लें' अशें म्हणप 'सुबेजपणा'चें जाता आसत जाल्यार, असलीं सुबेजपणां हांव आयुष्यभर करीत आयलां, आनी मुखारूय करीत रावतलों म्हूण आसां.

## इंग्रज नाशिल्लें इंग्रजांचें राज्य

इकेदासान जल्मान जपानी. पुणून भारताचे एक 'पिशे' भक्त. धा वर्सां भारतांत रावन हिन्दी शिकले. तुलसीदासाच्या 'रामचरित-मानसा'चो जपानींत अणकारूय केलो. जयप्रकाश नारायणांच्या सोखोदेवरा आश्रमांत तीन वर्सां आशिल्ले. जयप्रकाशांनी तांकां 'एकनाथजी' म्हूण एक देशी नांवूय दिल्लें. सुमार अठ्ठावीस वर्सांनी ते पर्थून एक फावट भारतांत आयिल्ले. तांकां दक्षीण भारत भोंवन पळोवपाचो आशिल्लो. सुरवात गोंयच्यान केली. आमगेर चार दीस आशिल्ले. चार दीस आमी खबरी करीत राविल्ले.

हांवें तांकां म्हळें, 'तुमची भारत-भक्ती पळोवन म्हाका तुमचो मत्सर दिसता. भारतांत अशें कितें तरी आसा कीं जें तुमचे सारकेल्या जपान्यांक लेगीत पिशें लायता हें पळोवन बरें दिसता. तें कितें तें विचारिना. एकूच प्रस्न विचारूंक सोदतां, 'तुमकां भारताचे अवगूण मातूय दिश्टी पडनात ?'

'ना कित्याक ? कितलेशे दिश्टी पडटात.' तांणी मेकळेपणान आनी तितलेच नमळायेन जाप दिली.

'एकूच खंयचोय सांगात', हांवें म्हळें.

'सांगतां' अशें म्हणून तांणी सुरवात केली.

'आमी जपानांतल्यान हांगा हिन्दी शिकपा खातीर येतात. भारतांत कितल्यो-श्यो भासो आसात, आमकां खबर ना अशें न्हय. बंगाली सारकी साहित्याचे नदरेन खुबूच गिरेस्त भास ह्या देशांत चलता म्हणपाचें आमी जाणांत. तमीळ सारकेली गिरेस्त, संस्कृत भाशे परसूय पोरणी आनी गोड आनीक एक भास हांगा चलता हेंवूय जाणांत... सुमार बावीस भासो आसात म्हूण जाणांत. तरी आसतना आमी हिन्दीच शिकपाक हांगा येतात. कित्याक, आमी जाणांत, ही अशी एक भास कीं जी पुराय देशांत चलता. दक्षिणे कडले लोक तिचे आड गेल्यात म्हूण आयकलां. पुणून दक्षिणे कडल्या लोकांक पिक्चरां काडचींशीं दिसतात तेन्ना ते हिन्दींतूच तीं काडटात हें विसरूंक फावना. मुकेश, लता मंगेशकर सारकेल्यांचीं हिन्दी गितां मदुरायेंतलीय भुरगीं गायतात हें फट म्हणूंक येवचें ना. अखिल भारतीय आकाराची एकूच भास ही... मागीर, ह्या देशांत इंग्रजी शेक कित्याक चलचो ?... हांव तुमकां विचारतां, हिन्दी परस इंग्रजी तुमकां लागिंची कित्याक दिसली ?'

हांव थोडो वेळ घुटमळ्ळों. मागीर म्हळें, 'म्हाका हे गजालिची खुब्ब लज दिसता... इतल्यो भासो आसून सगळ्यांक एकठांय जोडपी एक भास आमचे कडेन नासप ही लजेची गजाल... दुबावूच ना.' आनी हांव ओगी रावलों.

तांणीय म्हाका कांय विचारलें ना. इतल्यांत 'न्हावपाक उदक काडलां' म्हूण गोदूबायन येवन तांकां सांगलें आनी ते न्हावपाक गेले.

म्हजे तकलेंतलें चाक घुंवपाक लागलें.

आमी स्वतंत्र जाल्ले. स्वतंत्र भारत आमकां आदले सारको दवरपाचो नाशिल्लो. सगळ्यांक शिक्षीत करपाचे आशिल्ले. देशाचो सगळ्या आंगांनी विकासूय घडोवन हाडपाचो आशिल्लो. आमकां एक नवो भारत घडोवपाचो आशिल्लो. पुणून आमचे कडेन नव्या भारताचो 'डिझायन' नाशिल्लो. इंग्रजांचो 'मॉडेल' आमचे मुखार आशिल्लो तोच घेवन आमी मुखार गेले. इंग्रजांनी हो मॉडेल कसो उबो केल्लो हाचें ज्ञान आमकां नाशिल्लें. तांकां संवसारभर वेपार करपाचो आशिल्लो आनी ह्या वेपाराक पोसवण दीत असले उद्देग धंदे चलोवपाचे आशिल्ले. वेपार, उद्देग आनी तंत्रविज्ञान केन्द्रांत दवरून तांणी बाजार, सैन्य, प्रशासन आनी शिक्षणाचो आपणा खातीर एक 'डिझायन' तयार केलो. आनी आरे आरे म्हणटासर दोळ्यां मुखारूच दोळे दिपकावपी एक नवी संस्कृताय तांणी संवसारांत उबी केली.

ह्या 'डिझायनांत' विकास तांचें साध्य आशिल्लें आनी शिक्षण साधन आशिल्लें. स्वतंत्र जायनाफुडें आमी आमचें साध्य खंयचें आनी साधन खंयचें तें थारावंक जाय आशिल्लें. स्वातंत्र्या बरोबर आमी आमचो राष्ट्रीय बावटो

बदल्लो, राष्ट्रगीत बदल्लें, घटना बदल्ली. राज्यकर्तेय बदल्ले. पुणून बदलूंक जाय आशिल्लें तें बदल्लें ना. प्रशासनूय बदल्लें ना, शिक्षणूय बदल्लें ना. प्रशासनूय आदलें चलत रावलें, शिक्षणूय आदलेंच चलत रावलें. प्रशासक आनी शिक्षक तेच – आदलेच – दवरले. आमी ह्या देशाचे आतां धनी जाल्यात, आमकां जाय तें रूप ताका दिवपाक मेकळे जाल्यात ह्या कैफांत उरले. आनी—

जें चलत आयलां तेंच मुखार चलयत रावले.

स्वराज्य म्हळ्यार इंग्रजी राज्याचें विस्तारीत रूप जालें.

पांच दसकां जालीं, आमी हेच वाटेन चलत आसात. चलून चलून इतले मुखार गेल्यात कीं आतां, कोणेंय तुमची वाट चुकल्या म्हूण आमकां सांगलें जाल्यार, 'आतां कशे फाटीं सरतले आमी... आतां हेच वाटेन मुखार वचपाचें' हीच जाप आमचे जिबेर येता. ह्या पांच दसकांत कितल्याश्याच मळांचेर आमी कितलेंशें घडोवन हाडलां. पुणून जें सगळ्यांत पयलीं घडोवन हाडपाचें तें आमी घडोवन हाडूंक पावले नात. फुडाऱ्यां कडेन फकत आश्वासनां आसात, जापो नात आनी जाणकारां कडेन फकत उपदेस आसात, उपाय नात. आश्वासनांनी आनी उपदेसांनी केन्ना कोणाचे प्रस्न सुटल्यात व्हय? मागीर, लोकांचो असंतोस वाडलो जाल्यार अजाप कसलें? असंतोस वाडलो म्हणटकूच लोक गुंडे हातांत घेवन आपले प्रस्न सोडोवपाक मुखार सरतात. अहिंसेन स्वराज्य जोडिल्ल्या ह्या देशांत स्वराज्यांत एकूय प्रस्न लोकांनी हातांत गुंडे घेतले बगर सोडोवंक ना.

फाटीं गांधी शान्ती प्रतिष्ठानाच्या हॉस्टेलांत एक अमेरिकन तरणाटो मेळिल्लो. 'नॉय-वायलंट टॅक्नीक' विशयाचेर संशोधन करतालो. हांवें ताका म्हळें, 'आमच्या देशांत लोक आपले प्रस्न सोडोवंक गुंडे हातांत घेतात हें, म्हण, समजूं येता. कित्याक, देश गरीब. खर्शेल्लो. निर्शेल्लो. ताका दुसरो उपाय येवजना. पुणून अमेरिका कांय गरीब देश न्हय. थंयचे लोक आपले प्रस्न सोडोवपाक पिस्तोलां हातांत कित्याक घेतात? अमेरिकेन मार्टीन ल्यूथर किंगा सारकेल्या एका सत्पुरुशाक गुळयो घालून मारून उडयला. कॅनडीकूय तसोच मारला. खरें म्हळ्यार, ज्ञान विज्ञानाच्या मळार हो विसावो शेंकडो आदल्या एकुणीस शतमानां परस कितलोसो गिरेस्त. विज्ञानान जितले सोद विसाव्या शतमानांत लायले ताच्या हजाराव्या वांट्यान लेगीत आदल्या एकुणीस शतमानांनी लावंक नाशिल्ले. मनीसपणाचे नदरेन विसावो शेंकडो आदल्या एकुणीस शेंकड्यां परस अदीक संस्कारी, अदीक सभ्य जावंक जाय आशिल्लो. पुणून ह्या विसाव्या शेंकड्यांत जितलो नरसंहार जाला ताच्या हजाराव्या वांट्यान लेगीत आदल्या एकुणीस शतमानांत जावंक ना... हाचें कारण कितें?'

ताणें म्हळें, 'ताचोच सोद घेवपाक तर हांव हांगा आयलां.'

हांवें म्हळें, 'आयच्या संवसारांत दोन शक्तिंचो संवसारभर शेक चलिल्लो पळोवंक मेळटा. एक पॉलिटिक्स. दुसरी, बिझनेस. सत्या आनी संपत हांचेच फाटल्यान आयचो संवसार धांवता. सत्या संपत्ती परस मनीस व्हड हें आयच्या राजकर्ण्यांकूय खबर ना, वेपाऱ्यांकूय खबर ना. राजकर्णी मनीस मनशा कडेन पळेता आसतना 'वोटर' (मतदार) म्हूण पळेतात आनी वेपारी ताचे कडेन 'कस्टमर' (गिरायक) म्हूण पळेतात. मनशाक दों भितरलो एकलोय 'मनीस' मानिना. दोगूय ताका लेखिनात. सत्या आनी संपत हे आमचे भितर लिपून बशिल्ले दोन दैत्य. तांकांच आमचें शिक्षण पोसवण दीत आयलां. आनी आमचें राजकर्ण तांकांच जागयत आनी संघटीत करीत रावलां. तांकां लागून हिंसा वाडल्या...

'ह्या दोनूय दैत्यांक निस्तेज, निर्जीव करून उडोवंक जाय. आनी हें काम शिक्षणान करूंक जाय. ते खातीर शिक्षण सरकार-मुक्त आनी उद्देगपतीं-मुक्त जावंक जाय. आयचें शिक्षण सरकारागेर औनी उद्देगपतिंगेर वावराड्या मानायाचें काम करता. परिणामीं, हें शिक्षण घेवन जो मुखार येता तो एक तर 'ब्युरोक्रॅट' जाता वा 'टॅक्नोक्रॅट' जाता. 'मनीस' मात जावंक पावना.'

विज्ञानाक लागून आमी सैमाचेर लेगीत आमची सत्या चलोवपाक लागले. सैमा परस इतले व्हड जाले कीं संवसार चलोवपाक ईश्वराची गरजूच ना – आमच्यांनी तो चलोवं येता, अशें आमी मानपाक लागले. विज्ञानाक लागून पयस-पयसले देश एकामेकां शेजरा येवन रावंक पावले. इकेदासान चौदा वरां भितर जपानांतल्यान मुम्बय पाविल्ले, मुम्बयच्यान एका वरा भितर गोंयां आयले. गोंयच्यान ते बेंगलुराक गेले. तांकां पावोवपाक हांव दाभोळे विमानतळार गेल्लों. विमानतळा वयल्यान हांव घरा पावता सर इकेदासान बेंगळुराक पाविल्ले. विज्ञानाची केदी व्हडली सिद्धी ही! पुणून विज्ञान पाकिस्तान हिन्दुस्तानाक एकामेकां लागसार हाडूंक पावलां व्हय? हिन्दू मुसलमानांक, मुसलमान किरिस्तांवांक एकठांय हाडूंक पावलां व्हय? भारतांत हिन्दू मुसलमान एकामेकांक भियेतात ताच्याकूय हजार वांट्यांनी चड भारता भायर मुसलमान किरिस्तांव एकामेकांक भियेतात. कित्याक लागून मनीस एकामेकांक भियेवंक लागला? अख्खो संवसार एकामेकां लागसार आयलो, आनी मनीस मात एकामेकांक भियेवपाक लागलो जाल्यार संघर्श सोडून दुसरें कितें जल्माक येतलें? मनशांतल्या दैत्याक मनशाळावचे पयलीं ताच्या हातांत विज्ञान दिवन उडयलें जाल्यार विज्ञानाचो उपेग तो एकामेकांच्यो तकल्यो फोडपा खातीर आनी एकामेकांचे दोंके मोडपा खातीर करचो ना व्हय?

विज्ञान आमकां जाय, समाजांतलें अज्ञान ना करपा खातीर, अंधश्रद्धा ना करपा खातीर, सत्य समजून घेवपा खातीर, सत्याच्या आधारान दुख्ख दळदीर ना करपा खातीर. पुणून तें मनशाच्या हातांत आसूंक जाय. ताच्यांतल्या दैत्याच्या न्हय. आयज तें दैत्याच्या हातांत गेलां. आनी मनशांतलो दैत्य धतरिच्या पोटांतली संपत लुटपा खातीर आनी मनशा सारक्या मनशाक मारपाचीं शस्त्रास्त्रां निर्माण करपा खातीर ताचो उपेग करपाक लागला. निखटो 'सायंटिफिक टॅपर' उपकारना. 'मॉरल टॅपर' चड गरजेचो. तो कसो निर्माण करचो हाचेच कडेन चड लक्ष दिवंक जाय.

ज्ञान ह्या देशांत ना अशें म्हणूं येना. ना ती फकत ह्या ज्ञानाचो उपेग करपाची नदर. 'तज्ञ' ह्या देशांत खूब आसात. पुणून शिक्षणाच्या आनी विकास कार्याच्या मळांचेर आयज जो धोळ चलिल्लो दिश्टी पडटा तो 'तज्ञां'नीच निर्माण केला हें विसरूंक फावना. गांधी, टागोर, शिक्षणाच्या मळा वयले 'तज्ञ' आशिल्ले. रुशी आशिल्ले. लोकांची नदर बदलून समाजांत बदल घडोवन हाडपाचो वावर आयजवेर रुशिंनीच केला. तज्ञांनी न्हय. भारतांत जांच्या हातांत आमी शिक्षणकार्य दिवन उडयलां ते रुशी आशिल्ले जाल्यार भुरग्यांक हांगा इंग्रजींतल्यान शिक्षण दिवचेच नाशिल्ले. इंग्रजी शिक्षण इंग्रज भुरग्यांक उपकारता, सोबता. जपानी भुरग्यांक न्हय, चिनी भुरग्यांक न्हय, तशें भारतांतल्या भुरग्यांकूय न्हय. टागोर गांधी तज्ञ नाशिल्ले, पुणून राष्ट्रनिर्माते आशिल्ले. तांच्या दोळ्यां मुखार फुडाराच्या भारताचें एक चित्र उबें आशिल्लें. एक 'डिझायन' आशिल्लो. 'मनीस' सोडून ते हेर गजालींक म्हत्व दिनाशिल्ले. शिक्षण मनशाक मनीस करपी आसूंक जाय. ताचें जिवीत सुंदर, शिरवंत, समृद्ध करपी आसूंक जाय अशें मानपी आशिल्ले. स्वतंत्र भारताच्या राजकर्णान दोगांकूय लोकां पसून तोडले. म्हूण सरंजामशायेची सुवात लोकशाय घेवंक पावली ना. भांडवलशायेचे सुवातेर समाजवाद येवंक पावलो ना आनी अज्ञानाची सुवात विज्ञान घेवंक पावलें ना. मनशाक 'मनीस' करपी शिक्षण भारतांत सुरू जातलें तेन्ना इकेदासाना सारकेल्या एका भारतभक्ताक खंत भोगची इतलो इंग्रजीचो शेक हांगा चलचो ना आनी 'म्हाका हे गजालिची लज दिसता' अशें म्हणपाचो म्हजेरूय प्रसंग येवचो

ना.

इकेदासान न्हावन आयले तेन्ना 'तुमच्या प्रस्नाची जाप म्हाका मेळ्ळी' अशें सांगून हांवें तांकां सांगलें, 'स्वराज्य येतकूच भारतांतल्यान इंग्रज गेले. इंग्रजांचें राज्य मात अजून वचूंक ना. आमी स्वराज्याच्या नांवान इंग्रज नाशिल्लें इंग्रजांचें राज्य चलयतात म्हूण इंग्रजी आमचे मानगुटेर बसल्या.

## आंतरकथेची आंतरकथा

फाटल्या साडेचार दसकां सावन साहित्याच्या मळार कसलो-न्हय-कसलो वावर करीत आयलां. **मीर्गा** पसून हो वावर सुरू केल्लो. **मीर्गा**चो पयलो आंक १९५३ वर्सा पंदरा ऑगस्टाक भायर सरिल्लो. णव ऑगस्टाक लिखणी हातांत घेतिल्ली. ती आयच्या ह्या खिणा मेरेन विसंव घेनासतना एकासारकी बरयत रावल्या. १९६१त जुनाचे अखेरेक पणजेच्या क्वार्तेलार पाविल्लों. अडेज-पावणे तीन म्हयने थंय बंदिस्त उरिल्लों. तेन्नाय ती **नवी शाळा** बरोवपांत गुल्ल उरिल्ली.

गोंयचे सुटके उपरांत १९६८ सावन १९८० मेरेनच्या काळांत कसले-न्हय-कसले चळवळींत घुसपून उरलों. नवें गोंय घडोवपाक जें जें कितें कुसकें, नश्टें, पाडें आड येताशें दिसलें ताचे आड झुजत रावलों. दुसरें कितेंच करपाक उसरपत नाशिल्ली. तेन्नाय लिखणी कोणाक तरी दुखयत रावली, कोणाक तरी तिडायत रावली जाल्यार कोणाक खुबळायत रावली. पुणून सगळ्यांक चिंतूंक लावपाचें काम करीत रावली. कितलेशे इश्ट तिणें जोडून दिले. तितलेय टिकाकारूय मेळोवन दिले.

१९८१ वर्सा सगळ्या तरांच्या चळवळींतल्यान आंग काडून घेतलें. आनी कितल्याश्या वर्सां सावन हांव जो full-time fighter (पूर्ण वेळ चळवळी) म्हूण वावरत आयिल्लों तो full-time writer (पूर्ण वेळ लेखक) जालों. आनी लिखणेक धाय दिको मेकळ्यो करून दिल्यो. तेन्ना सावन ती जी चलत रावल्या ती आयच्या ह्या खिणा मेरेन अखंडपणान चलत आसा.

ह्या साडेचार दसकांचे साहित्य सेवेंत जे दिश्टावे घडले, जीं सत्यां होलमलीं तीं ह्या पुस्तकांतल्यान वाचप्यां मुखार दवरपाचो यत्न केला.

आप-उक्तावणेच्या बरपाचे जातिचेंच एक पुस्तक हें.

तूं कित्याक बरयता, कितें सांगपा खातीर बरयता, तुजेर कोणाचो प्रभाव आसा, कितलो आसा, तुज्या जिवितांत साहित्याक तुवें खंयची आनी केदी सुवात दवरल्या, हे प्रस्न म्हजे म्हाकाच हांवें कितलेशे खेपे विचारल्यात. तांच्यो ज्यो जापो मेळ्ळ्यो त्यो ह्या पुस्तकांत दिल्यात.

साहित्याक हांवें केन्ना मन-रिझोवणेचो वावर मानलो ना. जिविताचें एक उपफळ – एक by product – हेच नदरेन ताचे कडेन सदां पळेत आयलां. जिवीत तशें साहित्य. जिवीत उखलापें आसलें जाल्यार लिखणेंतल्यान उखलापेंच साहित्य येतलें, आपणा हस्तुकीं उत्कट वा खोलायेन भरिल्लें अशें कितेंय बरोवन जावचें अशें जाका दिसता ताणें जिविताची उपासना करूंक जाय अशें मानीत आनी म्हणीत आयलां. कलाकार बरयतल्याचो सेवक आसूंक जाय, ताका धनी जावंक दिवंक जायना अशेंय म्हणीत आनी मानीत आयलां.

साहित्य मोगी हांव मुदलांतूच आशिल्लों. कांय कारणांक लागून मराठी, गुजराथी, हिन्दी, पुर्तुगीज आनी इंग्लेज ह्या पांच भासां कडेन म्हजो दाट संबंद आयलो. ह्या पांचूय भासांतलें मुदलांतलें आनी अणकारून ह्या भासांनी आयिल्लें कितलेंशें बरें बरें साहित्य वाचूंक मेळ्ळें. म्हज्यांतल्या साहित्यिकाक ह्या भौ-भाशीक साहित्याच्या वाचनान खूब पोसवण दिल्या. दुसरें खंयचेंय व्रत घेवपाचो धीर केन्ना जालो ना, पुणून **दिसामाजीं कांहीं तरी तें लिहावें, प्रसंगीं अखंडित वाचीत जावें** ह्या एका व्रताक मात एकनिश्ठेन आयुश्यभर पाळो दीत आयलां.

पुणून – मुजरत सांगूंक जाय – बरोवपाची म्हाका प्रेरणा दिल्या ती मात कोंकणींतल्या दैन्यान. कोंकणींत हें ना, तें ना अशें कोणूय म्हणटा तेन्ना एके वाटेन मन खंतीन भरून येता आनी दुसरे वाटेन तें तिडकीन उसळुनूय येता. कोंकणींत हें ना, तें ना, खरें. पुणून तें कित्याक लागून ना? भास कांय खंयच्याच आंगान दुबळी न्हय. **यथा भाषक: तथा भाषा** हो नेम खरो आसत जाल्यार जांणी मराठी, कन्नड, पुर्तुगेज, इंग्लेज बी भासांनी बऱ्यांतलीं बरीं पुस्तकां बरयलीं तांची भास दुबळी आसूंच नज. मागीर, कोंकणींत साहित्य ना जाल्यार ताचें कारण 'जांणी तें बरोवपाचें तांणी तें बरयलें ना' हेंच एक म्हणूंक जाय. ते दुसऱ्यांच्यो भासो पोटलावन बसले. आनी आपणाली भास उबंत उडोवन तांचे भाशेंत बरोवपाक लागले. आमच्या बुदवंतांच्या ह्या दुबळ्या सभावाची जाणवीक जाता तेन्ना 'ना, हांव अशें जावंक दिवचों ना, हांव सुमारा भायले कश्ट काडटलों आनी आमचे भाशेंतलें दैन्य म्हज्यान जाता तितलें उणें करपाचो यत्न करतलों' अशें म्हणून फुरफुरून येतां आनी बरोवपाक बसतां. म्हजें आयज मेरेनचें कोंकणींतलें बरप हे खंतींतल्यान, हे तिडकींतल्यान, लागणुकेचे हे जाणविकेंतल्यान जल्माक आयलां.

एके तरेचें अग्निहोत्र हें, जें साडेचार दसकां सावन चलयत रावलां.

कोंकणीच्या मळार हांवें पावल दवरलां त्या वेळार शणै गोंयबाबांलीं आठ धा पुस्तकां, प्रो. राणू नायकांलीं चार पांच नाटकुलीं, बयाभाव आनी शां.वि. कामत हांचीं कवितेचीं दोन पुस्तकां आनी 'वोंवळां' नांवाचो कारवारी बरोवप्यांचो एक कथांझेलो सोडून (नागरी लिपींत) कितेंच नाशिल्लें. आयज? सुमार पावणे दोन हजार पुस्तकां आसात. एका सारकीं येत आसात. कथा, कविता, नाटकां, नवलकथा, समीक्षा, निबंध – हजार तरांचीं पुस्तकां कोंकणींत आयज आयिल्लीं पळोवंक मेळटात. ते भायर, कोश, विश्वकोश भायर सरत आसात. हातुंतलें तीन वांटे रद्दी धरून भायर उडयात, एक वांटो जो उरतलो तो खंयचेय भाशेक अभिमान दिसचो ह्या पांवड्याचोच आसतलो हे विशीं दुबाव ना. इतले बरोवपी मुखार सरल्यात की हांव जो तांचो एक म्हालगडो – pioneer — ताका लेगीत तांच्यांतले अर्दा वयर लोक वळखनात. कोंकणीचे हे प्रगती-यात्रेंत कोण आतां आडखळ हाडपाचो ना. कोंकणी बोली, तिका व्याकरण ना, लिपी ना, तिच्यांत साहित्य ना अशें म्हणटल्यांनी निवृत्त जावन देव देव करीत घरा बसपाचे दीस आतां उदेल्यात.

असल्या ह्या काळार साहित्या संबंदिच्या म्हज्या अणभवांचो आपरोस आशिल्लें हें पुस्तक नव्या बरोवप्यांचे वाटेर थोडो भोव तरी उजवाड घालपाचो वावर करूंक पावलें जाल्यार कोंकणी साहित्याक जिवीत ओंपलें हाची खूब खूब खोस भोगतली.

पुस्तकाक **सर्जकाची आंतरकथा** हें नांव स. उमाशंकर जोशींनी कांय वर्सां पयलीं सुचयल्लें.

रोखडेंच उजवाडा येवपी **सर्जकाची आंतरकथा** पुस्तकाची प्रस्तावना.

## खबरी आमोरे वयल्यो – ६

*तुमी वर्ध्याक कशे पावले? कितें जोडपाक थंय गेल्ले?*

पुर्तुगेजांच्या आडांग्या साम्राज्याक आह्वान दिवन डॉ. लोहिया १९४६तल्या १८ जुनाक मडगांवां उबे रावले तेन्ना गोंयांत एक मोड उठलें. झों झों करून नेटान वारें व्हांवपाक लागलें आनी ह्या वाऱ्यान चारशीं चारशीं वर्सांचे म्हाल-म्हातारे लाचारेचे, मेंगेपणाचे, दुबळेपणाचे, भित्रेपणाचे, बंदेपणाचे रूख धोल धोल धोलून घसांयच करून मुळां सयत हुमटून पडले. म्हजे पिळगेच्या जिवितांतली ही एक मोठ्ठी घडणूक. सगळे आमी हे घडणुकेन प्रभावीत जाल्ले. दोन चार म्हयन्यां भितर लोहियांक चळवळींतल्यान आंग काडून

घेवचें पडलें. गांधींनीच तांकां तें काडून घेवंक सांगलें, जवाहललाल अडचणींत पडचे न्हय म्हूण. आनी गोंयकार धड न्हय म्हूण. गांधीय कडेक सरले. आमकां वाट दाखोवपी कोण उरलो ना. जिस्त ह्या वेळार हिन्दुस्तान स्वतंत्र जालें आनी 'आतां गोंय स्वतंत्र जावपाक कळाव लागपाचो ना' असो समज करून चळवळिचे व्हांवतेंत हात धुवन घेवपाक – 'आमीय गोंय मेकळें करपाक कितेंय तरी केलां...', 'आमीच गोंय मेकळें केलां' म्हूण सांगपाक कांय जाण मुखार सरले. तांचीं 'पुलितिकां' सुरू जालीं. एकामेकांचे पांय ओडपाचें काम ते करपाक लागले. लोहियांच्या मोडाक लागून सुक्यो खोलयो उबिल्ल्यो त्यो आशिल्ल्यो तश्यो जमनीर येवन पडिल्ल्यो. पांखां आशिल्लीं शेवणींच उडत राविल्लीं... ह्या वातावरणांत केन्ना हाका आमी आमचो फुडारी मानलो, केन्ना ताका मानलो. आनी तांच्या हाता खाला काम करपाक लागले... दोळे धांपून कोणाच्याय फाटल्यान वचचें असलो एकलोय हांचे मजगतीं नाशिल्लो. आमी आयुष्य फुकट होगडायतात अशें आमकां दिसपाक लागलें. आमच्यांतले कांय जाण निर्शेवन कॉलेजां जॉयन जावन अर्दकुटो उरिल्लो अभ्यास पुरो करपाक लागले. म्हजी पिराय त्या वेळार २१ ते २३ मदली. हांव आझाद गोमंतक दलांत वचून मेळ्ळों. कितेंय तरी दिव्य भव्य करतलों म्हूण गेल्लों. चार स म्हयने गोंयचे सरादीर बांद्यांत उरलों. थंय जें कितें पळेलें, अणभवलें तें... ज्या ऊंच ध्येयवादान हांव हातूंत पडलां ताका सोबना असलें आशिल्लें... सत्याग्रहांत कांय अर्थ ना अशें मानतालों. क्रान्तिकार्यांतूय अर्थ ना ह्या निर्णयार अणभवान पावलों... म्हळें, खंयच्याय तरी जाणकार अणभवी देशभक्ताच्या हाता खाला रावन काम करूंक जाय. ना जाल्यार खंयचे खंय व्हांवन वतलों. काकासायबां कडेन वळख जाल्ली. बाकीबाबांनी करून दिल्ली. काकासायब गांधींचे एक मुखेल सांगाती. ते भायर, तांच्या विचाराचे एक व्हड भाष्यकार... तांकां विचारलें. तांणी म्हाका आपणा गोपांत घेतलो. आनी हांव वर्ध्याक पावलों.

*थंय तुमकां कितें मेळ्ळें?*

ज्ञान. जें दुसरे कडेन खंयच मेळूंक पावचें नाशिल्लें... खंयचेच युनिव्हर्सिटींत, खंयच्याच प्रोफेसरा कडल्यान, खंयच्याच पुस्तकांतल्यान मेळचें नाशिल्लें तसलें... वर्धा म्हळ्यार एक Open University. जाय तें शीक... विशय? सगळे. प्रोफेसरूय कसले? एक काकासायब. तांगेले एक सांगाती किशोरलाल मश्रूवाला तांकां 'ज्ञाननिधी' मानताले. ज्ञाननिधी म्हळ्यार एन्सायक्लोपेडिया. आयुष्यभर ते ज्ञान दीत रावल्यात, ज्ञान घेत रावल्यात. स्वता किशोरलालभाई एक मौलीक चिंतक. विनोबा तांकां बुद्धाचे कोटिचे चिंतक मानताले. भारतीय तत्त्वविचारांत रामकृष्ण-विवेकानंद, रवीन्द्रनाथ, श्रीअरविंद, गांधी, कृष्णमूर्ती हांचे वरीच नवें कितेंय तांणी दिलां. तांगेल्या **जीवन शोधन** पुस्तका सारकें खोल पुस्तक सोंपेपणान पळोवंक मेळना. विनोबा? वेदां पसून गांधी मेरेनचो सगळो भारतीय तत्त्वविचार कोळून पियेल्ले. मराठी हिन्दी गुजराती संतसाहित्य तांचे जिबेर घोळटालें. आविल्ले ज्ञानेश्वर म्हूण तांकां लोक वळखताले. कुमारप्पा आनीक एक प्रोफेसर. अर्थशास्त्राचे. गांधींच्या अर्थशास्त्राक शास्त्रीय बसका घालून दिवपी. आचार्य कृपालानी एक visiting professor. गांधी विचाराचे एक सशक्त भाष्यकार. हांचे भायर, दादा धर्माधिकारी, धीरेन्द्र मजूमदार, अण्णासाहेब सहस्त्रबुद्धे हांचे सारके लॅक्चरर, रीडर थंय आशिल्ले. राष्ट्रभाषा प्रचार समिती वर्ध्याकसुनूच चलताली. थंय भदंत आनंद कौसल्यायन रावताले. त्रिपिटकाचार्य. तांकां लागून राहुल सांकृत्यायन मर्दी मर्दी येवन वताले. हिन्दींतले सगळे कवी साहित्यकार थंय पावल्यात आनी तांचो सांगात आमकां मेळ्ळा. हिन्दींतले एक व्हड कवी भवानिप्रसाद मिश्र आमच्या महिलाश्रमांत शिकयताले. हांव पावलां त्याच वर्सा मराठी कवी मंगेश पाडगांवकर वर्ध्याक येवन रावल्यात. योगायोग म्हळ्यार मराठी कवी अनिल (आत्माराम रावजी देशपांडे) थंय सॅशन जज म्हूण त्याच वर्सा आयिल्ले... काव्य-शास्त्र-विनोदाचे वझरे म्हजे भोंवतणी व्हांवताले...

वर्ध्याक हांव चार वर्सां उरलां. कितें जोडलां ताचो हिशोब म्हाका दिवंक येवपाचो ना. पुणून एक 'नदर' जोडल्या इतलें अनमन नासतना सांगूं येता. हे नदरेनूच आतां चाळीस पंचेचाळीस वर्सां जायत आयलीं, हांव जिविताच्या सगळ्या प्रस्नां कडेन पळेत आयलां. Formal शिक्षण म्हाका कसलेंच मेळूंक ना. लिसेवाच्या सव्या वर्सांत हांवें शिक्षण सोडून दिलां... हांव मॅट्रिक सुद्धां जावंक ना... पुणून जें कितें जाणां (असो तुमचो सगळ्यांचो समज जाला) तें सगळें वर्ध्याक हांव शिकलां... वाचन म्हत्वाचें न्हय. कितलींय पुस्तकां वाच तूं, तुका तुजी नदर मेळ्ळी ना जाल्यार त्या वाचनांतल्यान तुका कांयच मेळपाचें ना. तूं फकत बोकडे भाशेन ज्ञान चाबडायतलें. नदर मेळूंक जाय. ती सगळ्यांत पयलीं जोडूंक जाय... हांवें वर्ध्यांत म्हजी नदर जोडल्या.

*वर्ध्याक रावन तुमी मीर्ग कित्याक चलयलें?*

वर्ध्याक गेल्लों सत्याग्रह समजून घेवपाक. दक्षीण आफ्रिकेच्या सत्याग्रहा पसून ४२तल्या 'क्विट इंडिया' सत्याग्रहा मेरेनच्या गांधींच्या नेतृत्वा खाला जाल्ल्या सगळ्या सत्याग्रहांचे इतिहास बारकायेन वाचून काडिल्ले. ते भायर, गांधी आनी तांगेल्या सांगात्यांनी सत्याग्रहाच्या मंत्रातंत्राचेर जें कितें बरयल्लें तेंवूय वाचिल्लें. सत्याग्रहान सगळे प्रस्न बरे भाशेन सोडोवं येतात ह्या निर्णयार पाविल्लों. दिव्यास्त्र हें एक अशेंय मानपाक लागिल्लों. पुणून गोंयांत तो कसो चलोवचो, सारकें समजूंक नाशिल्लें. कृपालानींक एक दीस विचारलें, 'किसने कहा तुमको कि गोवा का सवाल सत्याग्रह से हल करना चाहिये? दंगा करो, फसाद करो' अशें म्हणून तांणी म्हाका फाफडून उडयलो. कृपालानींची उलोवपाची एक आगळी वेगळी शैली आशिल्ली. दंगाफसाद शक्य ना हें ते जाणा आशिल्ले. हांव ओगी पडलों. काकासायबांक विचारलें. काकासायब हरशीं हाडाचे शिक्षक. कितलोय पिशेपणाचो प्रस्न विचार, ते उबगनासतना समजावन सांगताले. पुणून म्हजो प्रस्न आयकून ते उबगले. म्हणपाक लागले, 'सत्याग्रह हें पन्नासावें सपण. एकूणपन्नास सपणां चडून गेले उपरांतूच पन्नासावें सपण लागता. तुमी अजून पयल्याच सपणार पावल दवरूंक ना. एका दमान पन्नासाव्या सपणार उडी घेवंक सोदतात?' पयलें सपण खंयचें? 'गोंयांत हिन्दू आनी किरिस्तांव अशे दोन स्वतंत्र autonomous समाज आसात. दोनूय एकामेकां कडेन कसलोच संबंद नाशिल्ल्या दोन वेगळ्या संवसारांत जियेत आयल्यात. आमी एकामेकां कडेन झगडनात, बरें आसा. पुणून आमकां एकामेकांचें कांयच लागना... ह्या दोनूय संवसारां मदल्यान उदासीनतायेची एक न्हंय व्हांवता. तिचेर पूल बांदूंक जाय अशें काकासायब १९४५ सावन सांगीत आयिल्ले. पूल कोंकणीचो. एकूच आंग हें जें ह्या दोनूय संवसारांक जोडटा. 'हो वाद येन्ना नाका... पयलीं स्वातंत्र्य, मागीर भाशेचें पळोवंया' अशें म्हणून तांचें म्हणणें कोणेच कानामनार घेवंक नाशिल्लें. कोंकणीचें म्हत्व म्हाका पटिल्लें. पुणून म्हाका जी जाप जाय आशिल्ली ती काकासायबां कडल्यानूय मेळूंक नाशिल्ली. म्हजो एक अणभव सांगतां. कांय प्रस्नां संबंदान येवजी येवजी येवजितां... मागीर उपाय मेळना जातकूच येवजुपाचें सोडून दितां... केन्नाय तरी उपाय मेळटलो हे आशेन सोडून दितां... ताकतीक करिना... पुणून अंतर्मन – subconscience – येवजुपाचें सोडून दिना. तें भितरले भितर काम करीत रावता. एक दीस फांतोडेर म्हाका एक सपन पडलें. लक्ष्मीकान्त भेंब्रे शे वर्ध्याक आमगेर आयल्यात. हांव न्हिदलां सो पळोवन 'ऊठ, न्हिदला कितें?' अशें म्हणून म्हाका हालोवन उठयतात. हांव जागो जातां. म्हाका अजाप जाता. लक्ष्मीकान्तबाबांचो आनी म्हजो कसलोच संबंद

नाशिल्लो. तांच्या उग्र सभावाक लागून तांचे पसून हांव सदां पयसूच राविल्लों. म्हाका ते वळखय नाशिल्ले... म्हजो संबंद आयला तो तांच्या भावाकडेन, दोतोर नारायण भेंबऱ्यां कडेन... नानदादां कडेन... नानदादा बदला लक्ष्मीकान्तबाब शे सपनांत येवचे? 'येंऽ सपन हें' अशें म्हणून हांवें ताचेर येवजुपाचें सोडून दिलें. सदची सफाई बिफाई करून जातकूच हांव न्हावपाक गेलों. पयलो तांबयो तकलेर रकयलो आनी म्हाका लक्ष्मीकान्तबाबांनी केंल्ल्या सत्याग्रहाचो उगडास जालो. तांणी दोन अटी घाल्ल्यो. एक, म्हज्या सत्याग्रहांत कोणेच तिरंगी बावटो हाडूंक जायना तशी कोणेंच जयहिन्द घोशणा दिवंक जायना. हें 'भेंब्रेपण' म्हणून सगळे ओगी राविल्ले. तकलेर थंड बरें उदक पडना फुडें म्हाका सट्ट जालें. म्हळें, इतले दीस सोदतालों ती जाप म्हाका मेळ्ळी. गोंयांत चळवळ चलूंक जाय ती हेच दिकेन. तिरंगो घेनासतना, जयहिन्द घोशणा दिनासतना. सुटकेचो प्रस्न हिन्दुस्तान सरकाराचो अशें मानून...

*कसो तर? सुटकेचो प्रस्नूच मुदल प्रस्न आशिल्लो न्हय? मूळ प्रस्न कडेक उडोवन चळवळ चलोवप ती कशी?*

सांगतां. काश्मीर हिन्दुस्तानांन विलीन जायनाफुडें काश्मीरचो प्रस्न काश्मिरी लोकांचो उरलो ना. तो हिन्दुस्तान सरकाराचो प्रस्न जालो. काश्मिराचेर घुरयो आयल्यो जाल्यार त्यो परतून लावप हिन्दुस्तान सरकाराचें काम जाल्लें. फकत काश्मिरी लोकांचें उरूंक नाशिल्लें... लोहियान गोंयची चळवळ सुरू केल्या त्या वेळार हिन्दुस्तान आनी गोंय एक आशिल्लीं. हिन्दुस्तान स्वतंत्र जालें आनी हिन्दुस्तान सरकारान पुर्तुगालाकडेन diplomatic relations सुरू केलीं तेन्ना गोंय आंतरराष्ट्रीय कायद्यान पुर्तुगेजांचें म्हूण हिन्दुस्तान सरकारानूच मान्य केल्ले वरी जालें. आंतरराष्ट्रीय कायद्याच्या संदर्भांत आमी पुर्तुगेजूच थरिल्ले. पुर्तुगेजांच्या राज्यांत तिरंगो बावटो आनी जयहिन्द घोशणा, शेजारी राष्ट्राचो बावटो आनी शेजारी राष्ट्राची घोशणा थरिल्ली. आयज धरुंया, काश्मिरांतले उग्रवादी पाकिस्तान झिंदाबाद घोशणा दिवन आनी पाकिस्तानी बावटो घेवन श्रीनगरांत निदर्शनां करपाक लागले जाल्यार हिन्दुस्तान सरकार तें सोंसून घेवपाचें ना. तशें, तिरंगो बावटो आनी जयहिन्द घोशणा पुर्तुगेज सरकार सोंसून घेवपाचें ना... तांकां, हे खातीर दुशण दिवंक येवपाचें ना... तें बावटो घेतल्यांक आनी जयहिन्द म्हणटल्यांक foreign agents मानतलें... हांव म्हणपाक लागलों, गोंयचे सुटकेचो प्रस्न पंडित नेहरूंनी आपल्या हातांत घेतला... सुगूर हातांत तो पावला. तांकां जाय तसो ते हो प्रस्न सोडयतले. आमकां जाय तसो तांकां सोडोवंक लावप समा जायना... जागरूक पुढारी ते. न्हिदूंक नात. आमी दुसरेच प्रस्न हातांत घेवन सत्याग्रह करचे...

*पुर्तुगेज बावटो हातांत घेवन? आनी व्हीव्ह पुर्तुगाल म्हणून?*

तशें सांगपाचो म्हाका धीर जावचो नाशिल्लो. पुणून पुर्तुगेज बावटो घेवन चळवळी कोणेय केल्ल्यो जाल्यार हांव विरोध करचो नाशिल्लों. कितलेशे प्रस्न आशिल्ले जे आमच्यांनी तिरंगो हातांत घेनासतना सोडोवं येताले.

*देखीक?*

आफूडभश्टाचो अस्पृश्यतायेचो प्रस्न घे. पुर्तुगाल जगभर हिन्दुस्ताना आड प्रचार करतालें तेन्ना हिन्दुस्तानांत अस्पृश्यताय आसा, गोंयांत ती ना, म्हणटालें. गोंयांत आसा म्हूण आमच्यांनी दाखोवन दिवं येतालें. हरिजनांक देवळांत वचूंक मेळचें म्हूण आमच्यांनी चळवळ चलोवं येताली. म्हाजन 'हे जयहिन्दीश्त' म्हूण आमकां नांवां दवरून धरून दीत आशिल्ले... तितली रिस्क घेवचीच पडटली आशिल्ली. म्हाजन आड वचूं, हरिजन तरी आमचे बरोबर रावतले आशिल्ले. आनी जगाक गोंयांत अस्पृश्यताय ना म्हण पुर्तुगेज सांगतात तें फट म्हूण कळटलें आशिल्लें.

*हो विचार तुमी लोकां मुखार दवरिल्लो?*

बरोवन? ना... बरोवपाक म्हजे कडेन माध्यम नाशिल्लें. पुणून उलयलां हांव खूब जाणां कडेन. बाकीबाब, लक्ष्मणराव, आपा करमळकार, बाबला शिंगबाळ, नानदाद भेंब्रो हांचे मुखार मांडला हांवें हो विचार. नानदादांक रोखडोच पटला. म्हज्या मनांत गोंयांत वचून कांय इश्टांक तो सांगचो अशें आयलें. मुम्बय गेल्लों. मुम्बयच्यान गोंयां गेलों. चार दिसांची सुटी घेवन... वामन सरदेसाय सुटून आयिल्लो. ताचे राजकी हक सरकारान काडून घेतिल्ले. तरी आसतना दो. विनायक कैसऱ्यांनी ताका आल्मैदांत शिक्षक म्हूण काम दिल्लें... ताका म्हजो हो विचार रोखडोच पटलो. वामन त्या दिसांनी अस्वस्थ आसतालो. मार्च मेरेन तूं कामार उरतलो, उपरांत तुवें दुसरें कसलेंय काम सोदून काडचें पडटलें अशें आल्मैद कॉलेजीन ताका सांगिल्लें. खंय वचचें, कितें करचें, ताका खबर नाशिल्लें. हांवें म्हळें, वर्ध्याक यो. कांय म्हयन्यांनी तो वर्ध्याक आयलो. 'लोकां मुखार हे विचार मांडूंक जाय. विचार share करूंक जाय... आमी आमचोच एक पेपर कित्याक काडचो न्हय?' ताणें विचारलें. 'वर्ध्याकसून?' 'हय'... तो शारांत गेलो. एक छापखानो सोदून काडलो. बजेट तयार केलें आनी आमी **मीर्ग** सुरू केलें. १९५३तल्या ऑगस्ट म्हयन्यांत. पंद्रशे पंद्रशेक आंक भायर सरतालो. स वा आठ पानांचो... जाली, रोखडीच controversy सुरू जाली.

*कित्याक म्हूण?*

पयले सुवातेर **मीर्ग** कोंकणींत भायर सरता म्हूण. 'तुमी सुटके झुजाऱ्यां मजगतीं फूट घालतात. कोंकणी मराठीचो प्रस्न सुटके उपरांत घेवन बसुंया... तुर्तांक सुटका...' हे तरेचीं पत्रांय येवपाक लागलीं. कांय जाणांक जापो बरोवन धाडल्यो. म्हळें, सुटका तुमकां नाका आसली जाल्यारूय जातली. तुमी आड गेले जाल्यारूय जातली. तिचो हुस्को म्हाका ना... जाता कितें, केन्ना केन्ना तार जुळना. म्हजी आनी आमच्या सुटके झुजाऱ्यांची तार जुळ्ळी ना... केन्नाच... टेलिफोनांत रॉंग नंबर लागतकूच जाता तशें हांव कितें उलयतां तें हांकां समजनाशिल्लें. ते कितें म्हणटात तें म्हाका कळटालें, पुणून पटनाशिल्लें... मीर्गाचे दोनशां वयर आंक गोंयांत पावताले... गुरुनाथ केळेकारान इतले पटयेकार जोडून दिल्ले. मुम्बयंत सुमार तीनशें पटयेकार जाल्ले. सुमंत केळेकारान केल्ले... मीर्ग अडेज वर्सां चलयलां. पंचावन छापन्न आंक नेमान भायर आयल्यात. प्रतिसाद बरो मेळ्ळा.

*बंद कित्याक केलें?*

वर्धा सोडून हांव दिल्लीक गेलों. वामन मुम्बय गेलो. म्हूण बंद करचें पडलें.

*आंक आसात?*

एक फायल आसा. ते मुस्तींतले उगडास बरोवपा खातीर ती हालीं वाचपाक घेतिल्ली. २८, २९, ३० वर्सांचे पिरायेचो हांव. साप भुरगो न्हय. आनी प्रौढूय न्हय. म्हजे अग्रलेख वाचले तेन्ना 'हांव आनी हे पिरायेर इतलो mature आशिल्लों?' अशें दिसलें. Controversy खूब जाल्यो. म्हजे लिखणेंत अशें कितेंय तरी आसा कीं जें controversy निर्माण करता. मीर्गान तर इतल्यो केल्यो की एक दीस कांय जाणांनी हांव पुर्तुगेज स्पाय जालां म्हूण काकासायबांकूच वचून सांगलें...

*पुर्तुगेज स्पाय?*

हय... पुणून तें सोड. म्हजेर ताचो कांय परिणाम जालो ना. काकासायबांचेरूय जालो ना... सुटके झुजांतले उगडास हांवें बरयल्यात. एक वांटो प्रेसांत आसा, दुसरो तयार करतां... सगळें मेकळेपणान बरयलां. आयज ह्या विशयाचेर चड नाका. चार स वरां खर्चतलीं.

कितें जालें, ताचे धुवेचें कितें जालें तें हांव नकळ.

सिरील रेंदेराचो संवसार खूबूच ल्हान. ज्या घरा भोंवतणी तो माडाची सूर काडूंक वतालो त्या घरच्यांक तो सारको वळखतालो. त्या वाठारांतल्यो सगल्यो भानगडी ताका खबर आसल्यो. पूण खासा सिरील नितिचो मनीस. ताणें केन्ना कोणाक फटयलोना आनी कोणा मुखार हात पातळायलोना. ताणें एक चानी पोशिल्ली. तिका तो आंगार खेळयतालो. पूण ह्या सिरिलाचें काजार केन्नाच जालेंना. ताची राजकुंवरी आयलीच ना!

त्या मानान कॉश्तांस कार्तेराचें विश्व इल्लें विस्तारिल्लें. कांसावली पोस्टाचे कक्षेंत लागशिले, पयसुल्ले वाडे येताले. सगल्यांकच पत्रां येतालीं अशें न्हय. पूण कॉश्तांस सगल्यांची खबर घेत वतालो. सामान्यतायेन पोस्टमन पत्र पावतें करून फुडें वता. पूण कॉश्तांस तें पत्र कोणालें, जाका धाडलां ताचो तो कोण, तो खंय आसता, कितें करता हाची वासपूस तर करतालोच, ते भायर जांगेर पत्र आयलां तांगेले घरची बारीकसारीक खबर विचारून घेतालो. गांवचो भोळो भावार्थी लोक कांय लिपयनासतना सगलें ताका सांगतालो. ताका लागून गांवच्या दरेकल्याचीं उणीं दुणीं ताका खबर आसतालीं. खुबशा जाणांक तो भरवंशाचो इश्ट आसलो. पयसुल्ल्यान चीट धाडटल्यांक चड करून वाचूंक-बरोवंक येनासलें. तो कोणा कडच्यान तरी चीट बरोवन घेतालो. जाच्या नांवान ती चीट आयिल्ली आसताली ताका वा तिकाय वाचूंक येनासलें. कॉश्तांस ती वाचून दाखयतालो आनी अर्थ सांगतालो. प्रिमैर परीक्षा पास जाल्लो कॉश्तांस पुर्तुगेज बरी वाचतालो आनी उलयतालो. रोमी कोंकणीय वाचूंक ताका अडचण येनासली. कॉश्तांसाचे हे समाज सेवेक लागून गांवच्या सगल्या घरांनी ताका मान आसलो आनी सणा परबे दिसा वा घर• कसलेंय कार्य आसलें जाल्यार ताच्या हातार बक्षीस पडटालें.

सिरील रेंदेराली अंता कडेन संवकळ वाडिल्ली तेन्ना सुरवेच्या दिसांनी लोक ताची दानत शुद्ध ना, तो लीलूचेर दोळो दवरून आसा असो आरोप करताले. पूण लीलूच्या लग्ना उपरांत लेगीत सिरीलाची आनी अंताची इश्टागत तशीच उरली आनी वेळा प्रसंगार सिरील अंता खातीर पयशेय खर्चूंक लागलो. हें पळयना फुडें लोकांचो दुबाव पयस जालो. लग्ना उपरांत लीलू मात गांवांत परतें आयलेंना ही गजालय तितलीच खरी.

पूण एक दीस कोणें तरी सिरीलाक लीलू वेल्यान दुशण दिवपाचो यत्न केलो तेन्ना रागान तांबडो जाल्ल्या सिरीलान म्हळें, 'लीलू म्हाका भयणी भाशेन. हें नातें जाका समजना तो दोन पांय आसुनूय सुणो!'

पूण सिरीलाची सगलीच शोकांतिका जाली. गांवचीं जायतीं वाडिल्ले पिरायेचीं चेडवां ताचे कडेन खोशयेन लग्न जायत आसलीं. भोंवतणच्या चार गांवच्या चेडवांच्यो सोयरिकोय ताका येताल्यो. पूण सिरीलाचे तकलेंत राजकुंवरी भरिल्ली. ती ताका केन्नाच सांगून आयली ना. केन्नाच गावली ना. पूण मजगतीं एक युरोपियन चली गांवांत पावली. झुजाक लागून कांय जर्मन लोक गोंयांत जळामळाक येवन राविल्ले. तातुंतलो एकलो कांसावले रावतालो. ताणें आपलो वेळ वचना म्हणून गांवची एक बेकरी चलोवंक घेतिल्ली. ताचे सरीं एक दीस आनीक एक जर्मन रावंक आयलो. ताचे वांगडा ती युरोपियन चली आसली. ती जर्मन नासुंये. कित्याक तर ते दोगूय जर्मन पूण तिचे कडेन मोडके तोडके इंग्लिशींत उलयताले.

तसो सिरील अक्षरशत्रू. पूण ताका इंग्लीश उलोवंक जमतालें. तो कितली शुद्ध उलयतालो हें ते पिरायेचेर म्हाका कळनासलें. पूण ताचो तिचे कडेन संवाद जावंक पावतालो. गांवांत इंग्लीश जाणा जाल्ले खुबच थोडे. ती चली सांजची बाजारांत येताली. पसरकार वा हेर कोणा कडेनय उलयतना तिका अडचण येताली आनी दुभाशाचें काम सिरील करतालो. ताका लागून ती सिरीलाक सांगातान घेवन भोंवताली. सिरीलय तिका गांव भोंवडावन दाखयतालो.

कॉश्तांसाक ही खबर कळ्ळी तेन्ना ताणें म्हजेकडेन म्हळें, 'गोरी कात जाली म्हणून राजकुंवर जायना. हें चेडूं रेंदेराचेच जातिचें आसूंक जाय. निमाणें पळे ग्रासिंदा ताका मेळ्ळें ना. मेळ्ळें हें पाखलें.' ते पिरायेर लेगीत कॉश्तांसाच्या मनांत मत्सर भरला हें म्हाका कळटालें. पूण प्रेमाचो विशय उलोवपा इतली म्हजी पिराय वा बुद्द वाडूंक नासली.

ते गोरे चलये सांगातान भोंवतना सिरील बऱ्यांतले कपडे घालतालो. आनी दोगांय हांसत हांसत गांवांतल्यान भोंवतालीं. सगल्यांक दिसचें, आतां ही युरोपियन चली गांवची सून जावन रावतली. सिरीलाक तिचे विशीं विचारल्यार तो मुमुरखोच हांसतालो. कोणेंय ताका म्हणचें, 'तूं रेंदेर म्हण ती जाणा मरे?'

'रेंदेरपण म्हणून उणाक व्हय तर?' सिरीलान म्हणचें. 'हांव माड काडूंक वतना ती म्हजे सांगातान आयल्या आनी तिणें म्हजे फोटो लेगीत काडल्यात.'

झूज सोंपलें आनी जर्मन परत गेले. वांगडा ती गोरी चलीय गेली. हो आघात सिरीलाक खूब लागलो. खूब दीस तो थतर-वितर जाल्ले भाशेन वागतालो. कोणा कडेन चड उलोवंक वचनासलो. आनी माड काडूंक वतना कांतारां गायनासलो. हांवें सिरीलाक ते अवस्थेंत पळयला तो निमाणो. उपरांत तो नाच्च जालो. लोक तरांतरांनी उलोवंक लागले. कोणें म्हळें, 'तो बोटिचेर चाकरी करूंक गेला. खूब पयशे जोडून परत येतलो.' खूब जाणांनी असो दुबाव तलो की ते जर्मन चलयेन आपोवन ताका जर्मनीक व्हेला आनी तो थंयच रावतलो. पूण कॉश्तांसाचें मत मात वेगळें आसलें. कॉश्तांस म्हणटालो, 'तो तकलेन विरार जाला आनी ग्रासिंदाक सोदचे खातीर युरोपाक गेला.'

कशेंय आसना, गांवचो सिरील गेलो आनी म्हजे जिणेचें एक दालन रिकामें जालें. म्हाका मनांतल्यान कॉश्तांसा परस सिरीलच चड आवडटालो. तो गोरो गोमटो, वागूंक सभ्य, निर्व्यसनी आसलो. सोबीत गीतां गायतालो. तो खबरी करतालो तो लेगीत एका उंचेल्या पांवड्यार रावन. ताणें गाळ घाल्ली हांवें केन्ना आयकूंक नासली. हाचे उरफाटो कॉश्तांस. सगल्या गांवचे ढवळे करतालो. गांवांत खंय कितें चल्लां तें ताका खबर आसतालें. तें तो जगार घालतालो आनी माथ्याचें हॅल्मेट काडलें जाल्यार पूर्व-पश्चिमे कडेन थिरावल्ले ताचे नदरेक लागून तो कुरूप दिसतालो.

एक दीस कॉश्तांसाची बदली जाली. तो सामको गडबडलो. ह्या गांवांत ताचो जम बशिल्लो. तो सोडून ताका वचपाचें नासलें. नवो कार्तेर येतकच कॉश्तांसाक वचचें पडटलें. सगल्यांक ताणें ती खबर सांगची आनी आपली बदली रद्द करूंक जाता जाल्यार खटपट करूंक सुचोवचें.

पुर्तुगेज टपाल खात्याचो एक उंचेलो अधिकारी केन्नाय गांवांत येतालो. आमच्या गांवांत कोण तरी ताचो सोयरो आसलो. चड करून तो शेनवाराक सांजचो येतालो आनी वेळेर वतालो. आयतार गांवांत सारून सोमाराक परत वतालो. कॉश्तांसान गांवच्या चार लोकांक फुडें काडून एक शिश्टमंडळ ताचे सरीं धाडलें. आनी ताचें काम जालें. जो नवो कार्तेर येवपाचो आसलो तो आयलोच ना. कॉश्तांस गांवांतच उरलो आनी ताची बदली रद्द जाली.

त्या दिसांनी कॉश्तांस मेळटालो तितलो. ते उपरांतय तो गांवांत आसलो. पूण हांवेंच गांव सोडलो. ल्हवू ल्हवू ताका हांव विसरून गेलों. पूण जेन्ना जेन्ना कांसावले गांवचो उगडास काडटालों तेन्ना तेन्ना अंता, कॉश्तांस, सिरील, ग्रासिंदा हीं पात्रां म्हज्या दोळ्यां मुखार येवन वतालीं. ल्हवू ल्हवू तींय विसरायेच्या तळाक वचून बसलीं.

पेपरांत कॉश्तांसाच्या मरणाची जायरात वाचली आनी त्या पात्रांचो परत उगडास जालो. जे थोडे प्रसंग याद जाले ते बरोवन काडले. पूण यादी ह्या पात्रां पुरत्योच उरिल्ल्यो नात. खुबशो न्हिदिल्ल्यो यादी जाग्यो जाल्यात. सगलें भुरगेंपणच दिमखुऱ्यांनी चलत लागीं आयलां. वेळ मेळत तेन्ना त्यो बरोवपाचो विचार आसा.

* * *

# तीर सुवादीक कॉलम

दिवाळी लागीं आयली की जीव कलकलूंक लागता.
एक सोंसूं नज अशें विचित्र टॅन्शन तकलेर येता.
म्हजे अकले प्रमाण टॅन्शन म्हळ्यार तकली जड जावप.
दर वर्सा चवथ सोंपली की म्हाका ही पिडा जाता.
सुरवेक दिसतालें, हीं लक्षणां वैचारीक प्रगल्भतायेचीं.
भरिल्ल्या कळशाक वजन तसो म्हजे तकलेक पेज.
ह्या भरिल्ल्या कळशाची खबर एकदां दोतोराक सांगली.
म्हजो समज चुकिचो जावन कित्याचेरूय पडूं येतालें.
तकलेर असोच पेज येवन खंय खंय कोण खंवसल्ले
तांचे सारको उठून वचूंक हांव सामान्य मनीस न्हय.
म्हजें तेन्ना चार-चौगांत बरेंच नांव जाल्लें.
(चार चौगांत म्हळ्यार दोन पणजेकार, एक मडगांवकार
हे तीग जाले. चवथो मसणो-फोणो कोण तें याद जायना.)
कवी म्हूण भिकाजी घाणेकारान लेगीत म्हजें नांव घेतिल्लें.
दोतोरान म्हळें हवामानांत बदल जाल्ल्यान तकली जड जाता.
ताका लेखकाची अवस्था माती कळटा अशें म्हजें मत.
असल्या दुस्वासी मनशांक सांगून कांय अर्थ ना.
ते परस दोतोर जावनूय दोतोर घाणेकार बरो.
म्हजे सारक्याक कविचे पदवेक तरी बसयता.
फुडें फाटीं असल्याच दोतोराक तकली दाखोवप.
(मलेरियाचें निदान केल्यार लेगीत पर्वा ना.)
नातर सोंस रे मना म्हणत भितरले भितर सोंसप.
हें अशें म्हाका केन्ना पसून जाता हाची म्हाका बरीऽ याद ना.
स्वताक हांव लेखक मानूंक लागलों तेन्नाच्यान जावंये!
बरोवंक लागलों तेन्ना हांव मराठींतल्यान बरयतालों.
पयलेंच बरयलें आनी मडगांवां राष्ट्रमताक धाडलें.
धपक्याक फार तशें राष्ट्रमतार छापून आयलें.
थंयच्यानूच स्फूर्त घेवन बाकिच्याय पेपरांक धाडलें.
पूण एकाय खपन खायऱ्यान एक वळ लेगीत छापलिना.
राष्ट्रमत तर छापता मागीर हेरांक कसली पिडा मारल्या!
पूण बरोच काळ सरलो तरी म्हजें नांव खंयच झळकना.
धाडिल्ले कथेचें नांव पाठ आसतालें तरी म्हजें नांव पळोवप
कित्याक, जायते खेपे संपादक नांव आपल्याक जाय तशें दितात.
ते पासत लेखकाचें नांव वाचुनूच कथा वळखुची पडटा.
एक दीस गोमन्तकाचेर आयताराचे पुरवणेंत नांव.
म्हजें न्हय, म्हजे कथेचें. 'घड आला पण केळमा गेला.'
हांवें वसवशा वरी कथा वाचून मागीर लेखक पळयलो.
लेखकाचें नांव कोण तरी बोरगांवकर.
कथेचें नांव म्हजें, कथा आनीक कोणाची, लेखक भलतोच.
बोरगांवकरांतलो मदलो 'गांव' हांवें पेनान खोडलो.
आनी ती कथा कांय काळ हांवें म्हजीच मानली.
खरें म्हळ्यार गोमंतकान म्हजेर खूब अन्याय केल्लो.
(ताचें पानवळ तो आतां भोगता.)
हें एक उदाहरण सोडलें जाल्यार धाडिल्लें कांयच छापून येना.
छापिनात मरे, छापूं नाकात. निदान साभार पोंच धाडात.
कुरैकाराक तरी म्हाका कितें तरी येता अशें दिसुंदी.
पूण साभार पोंच आयल्यारूय गरजेभायर टॅन्शनूच.
एकदां हांवें सिक्किमाक एक पत्र घालें. तें थंयच्यान परत आयलें.
मनस्तापान म्हाका म्हयनोभर न्हीद ना. जाल्लें कितें—
हांव म्हयनोभर सिक्किमाक गॅंगटोकाक आशिल्लों.
थंय म्हजी वळख गायत्री रासैली म्हणटा तिचेकडेन जाल्ली.
गायत्रीन म्हाका येतना आपल्याचो पत्तो दिल्लो.
हांवें ताका लग्नाची मागणी घालून पत्र बरयलें.
वांगडा एक बरोऽऽ फोटो (राजेश खन्ना-टायप) धाडलो.
पत्र पावना बराबर तें लग्न जावंक धांवत येतलें अशें दिशिल्लें.
तें ना तें ना. निदान ताचें पत्र तरी येवचें. तेंय ना.
एक दीस कुरैकार सायकलीर टीन टीन करीत दारांत.
ताणें म्हज्या हातार एक वादऱ्यो जाल्लें पाकीट दवरलें.
म्हजेकडेन पळोवन यशवंत पालेकार कसो हांसलो आनी गेलो.
कोणाचें पत्र तें पळोवंक म्हूण हांवें तें उकतें केलें.
म्हाका गायत्रीच्या पत्राचो हुसको आशिल्लोच.
उकतें करून पळयत जाल्यार तें म्हजेंच पत्र.
दुसऱ्या एका पाकिटांत घालून म्हाकाच आयिल्लें.
त्या पत्रा वांगडा हांवें धाडिल्लो म्हजो फोटोय आशिल्लो.
मात त्या फोटवाचे सामके भोगणार जाल्ले.
ताका दोन शिंगां काडिल्लीं. दातांचे सुळे काडिल्ले.
म्हजोच फोटो पळोवन हांवें आंग काडलें.
कुरैकार कित्याक हांसलो तें म्हाका कळ्ळें.
गायत्री लग्न जायना जाल्यार जावं नाका आशिल्लें.
पूण म्हजी कुरैकाराकडेन पत होगडावंक फावना आशिल्ली.
त्या अपमानान हांव म्हयनोभर न्हिन्नळेल्लों.
देखुनूच साभार पोंच येना तेंच बरें अशें दिसतालें.
पूण लिखाणाचें कितें जालें काय हाचो हुसको लागप.
देवा, हांवें पत्तो बरोवंक चुकयलो काय अशें दिसप.
तशेंच आसतलें. नातर एकूय लेख कसो छापून येना?
पोस्टाचें झंझट नाका म्हूण मागीर हातान व्हरून दिवंक लागलों.
शेवटीं म्हजी लायकी ह्या संपादकांक केन्नाच कळ्ळिना.
देखून हांवें राष्ट्रमतूच म्हजी काशी आनी म्हजी पंढरी मानली.
तातूंत अकस्मात म्हजी कविता केन्ना तरी म्हाका दिसताली
आनी ती म्हजीच काय कितें ह्या दुबावान टॅन्शन वाडटालें.
कितेंय जावं, पूण हांव लेखक, कवी म्हूण राष्ट्रमतान म्हाका खात्री दिली.
तातुंतल्यान म्हज्यो म्हजेच विशिंच्यो अपेक्षा तेंगशेर पावल्यो.
दिवाळी आयली काय सगळ्यांक कविता कथा धाडपाचीं पत्रां येतालीं.
जाग धाडटालो, कोंकणी, कुळागर, कोंकण भारती धाडटालो.
जांकां ते धाडटात ते कवी लेखक म्हाका येवन विचारताले,
'तुजे कडल्यान दिवाळी अंकाक कोणें कांयच मागूंक ना रे?'
आयकून म्हाका खूब म्हळ्यार खूब वायट दिसतालें.
'दोग-तीग जाणांनी मागलां रे, पूण सद्या वेळूच ना.'
हांवें हड्डें मुखार करून तांकां बंडलां फोडप.
आनी कुरैकार कोणाचें तरी पत्र हाडटलो म्हूण वाट पळोवप.
कोंकण भारतीन लेगीत म्हाका केन्ना एक पत्र धाडलेंना.
तांचे कडल्यान अपेक्षा बाळगुपाचेंय कारण आशिल्लें.
पालेकाराचो कोंकणी भारती स्वयंभू दिवाळी अंक आसतालो.
ताचो संपादक, मुद्रक, प्रकाशक, लेखक, कवी तोच आसतालो.
(इतलेंच न्हय, थोडे कोंकणीवादी म्हणी वाचकय तोच म्हूण.)
नशीब म्हळ्यार तातूंत जायराती ताच्यो नासताल्यो, हेरांच्यो आसताल्यो!
म्हजी एक कथा छापल्यार पालेकाराचो लेखन भार उणो जावपाचो.

ताचो तोच वेळ आनीक जायराती घेवंक सत्कारणी लागपाचो.
हांवें एक दीस आपूण जावन ताका ती गजाल सांगली.
ताणें पयलेच खेपे कोणाचें तरी आयकून कोंकण भारती बंद केलें.
सगळो वेळ तो आतां जायराती जमोवंक दिवंक लागलो.
कोंकण भारती म्हूण उपरांत एक ट्रस्ट जाल्ल्याचें आयकलें.
कितें जालें खबर ना. पूण हातुंतल्यान बरेंच घडलें.
जायरातदार जायराती दिवन निश्चिंत जाले.
नातर घरांत विनाकारण रद्दी येवन पडून तांकां त्रास जातालो.
पालेकार कसोय आसूं, पूण ताचे कडल्यान हांवें एक गूण घेतलो.
तुजें कोण छापिना मरे? छापूं नाका. तुजेंच छापून चार पैशे जोड.
ताचेच कडल्यान स्फूर्त घेवन हांवें दिवाळी अंकाक सुरवात केली.
पयलीं दुसऱ्यांचीं पत्रां येवचीं म्हूण टॅन्शन आसतालें.
आतां दुसऱ्यांक पत्रां बरय आनी साहित्य येना म्हूण टॅन्शन.
पाड पडिल्लो काणकोणचो फुगनू कवी लेगीत कविता धाडिना.
पालेकारबाबाचे गूण घेतले पूण म्हाका पालेकार जावपाचें नाशिल्लें.
कित्याक, कोंकणीवादी दिवाळी अंकाचो सर्वेसर्वा म्हणत म्हूण!
निमाणेकडेन उपाय नासतना तेंच करचें पडलें.
एकूच केलेंना म्हळ्यार अंक बंद करून ट्रस्ट केलोना.
दिवाळी अंक सुरू केलो आनी दर दिवाळेक टॅन्शन सुरू.
जायराती घेवंक भोंवलों जाल्यार चड घेवंक भंय.
दिवाळी अंक हातांत पडना बरोबर सगळे जायराती मेजतले.
कोणा कोणाकडल्यान कितल्यांची जायरात घेतल्या हें कळटलें.
बरें, जायरात छापिनासतना कोण दुडू दितलो? तेंय ना.
म्हणटकच ही सगळी कसरत करून तकलेक ताप.
दिवाळेच्या दिसांनी सचिवालयांत वचपाची माणसुकी ना.
कसल्याय कामाक वच, जण एकल्यान दुबावान पळोवप.
म्हजे सारके हेरूय कसल्या न्हय कसल्या कामाक येताले.
म्हाका दिसप ते सगळे जायराती घेवंक आयल्यात.
आनी म्हाकाय ते आपले मदलो समजत म्हूण म्हाका भंय.
देखून हांवेंच कोणूय दिसलो जाल्यार कूस मारप.
एक दीस तर सामकी मजाच जाली. घडलें कितें–
तुकाराम शेट म्हाका मंत्री जुवारकाराच्या दारांत दिसलो.
कवी जुवारकाराच्या दारांत दिशिल्लो जाल्यार गजाल वेगळी.
मंत्र्याच्या दारांत दिसप म्हळ्यार फक्त जायरात.
हांवूय ताचेकडेन जायरात घेवंकूच वतालों.
आतां दोगांयनी वांगडा वो एका फाटोफाट वचप बरें न्हय.
विनाकारण जुवारकाराचेर कोणाक कितें दिवचें हें टॅन्शन.
म्हळें, तुकाराम पयलीं आसा, ताका वचुंदी. हांव कडसरलों.
मागीर कळ्ळें, तुकारामबाब जायरातीक वचूंक नाशिल्लो.
ताणें हालींच नवी स्कुटर विकती घेतिल्ली.
नवी जावनूय ती खूब धुंवर काडून बंद पडटाली.
तेन्ना ह्या धुंवराचें कितें करप हें विचारूंक तो गेल्लो.
येरादार मंत्री म्हणटकच असले प्रस्न जुवारकारा कडेन येतात.
पूण म्हाका पळोवन तुकारामबाब जुवारकारा कडेन गेलोना.
ताका दिसलें, हांव जायरात घेतां जाल्यार घेवं.
तो उठलो आनी सुभाष शिरोडकारा कडेन गेलो.
ताचे कडल्यान जायरात घेवन सरळ घरा गलो.
असलें हें दुबावाचें वातावरण दिवाळे दिसांनी उप्रासता.

एकल्याक लागून खूब जाणांक विनाकारण त्रास जाता.
तांकां जाता काय खबर ना, पूण म्हाका मात टॅन्शन जाता.
आतां दिवाळी लागीं पावल्या. फुडल्या म्हयन्यांत येता.
म्हजें टॅन्शन अणभवांतल्यान आतां थोडें कमी जालां.
हांवें ते खातीर थंड तकलेन प्लॅनींग केलां.
जायरात घेवपाचे दीस, सुवात थारावन दवरल्या.
जेन्ना हेर कोंकणीवादी सचिवालयांत वतात तेन्ना हांवें वचप.
मुद्दाम आडावन विचारप, 'जायरात घेतली रे?'
मागीर दर एका मंत्र्याक वचून खाजगींत मेळप.
तांकां ल्हवू म्हणप, 'कोंकणीवादी तुजेर कोंत्र मरे.'
कोंकणीवादी कोंत्र म्हणटकच सगळे मंत्री भितात.
मराठीवादी मंत्री तर सगळ्यांत चड थरथरतात.
'कितें जालें? आमचेर कोंत्रसाण कित्याक तांची?'
'ते म्हणटात, सरकाराचे दुडू तुमीच खातात सगळे.'
आयकतकच मातशे लजेल्ले वरी जावन वतात.
तेन्ना मागीर हांव तांकां एक बरी आयडिया दितां.
'ते वर्सांतल्यान एक दिवाळी आंक काडटात. दी जायरात.'
तांकांय म्हजो सल्लो मना पसून पट्टा.
'आमी कोणाक ना म्हळां. दितात मरे!' अशें म्हणटात.
तेन्नाच हांव म्हज्या बोल्सांतलें कागद मुखार काडटां.
जायरातिचो प्रस्न असो सोडयता सर दुसरो प्रस्न.
कालचो पयरचो कवी लेगीत हालीं हड्डें फुडें करून भोंवता.
अपुरबायेन एक कविता मागल्यार शाणेपणां सांगता.
पंदरा वर्सां फाटीं म्हाका दिसतालें कोणें तरी कविता मागची.
कविता बरोवंक जमलेंना तरी आयिल्लें पत्र लोकांक दाखोवचें.
'पळय, म्हाका कितलीं पत्रां येतात. व्हडलो कवी हांव.'
पूण खपन खायऱ्या एकल्यानूय केन्ना पत्र धाडलेंना.
आज हांव ल्हानांतल्या ल्हानाक पत्र बरयतां आनी वाट पळयतां.
वाटेर मेळ्ळ्यार पत्र मेळ्ळें काय विचारतां.
'हय मेळ्ळें' अशें म्हणत पाड पडिल्ले चलूंक लागतात.
मागीर म्हाकाच तांचे फाटल्यान धांवचें पडटा.
'मागीर धाडटा मरे कितेंय? मानधन आसा.'
हांवें अकलेक येवन निमाणें शस्त्र वापरप.
'पळोवया' अशें म्हणत तांणी किंकोंत करप.
हांच्या रागान दिवाळी अंकूच बंद करचोसो दिसता.
पूण हुंदराच्या रागान घराक उजो कित्याक घालप?
वर्साक कांय जायराती मेळटात त्यो कित्याक सोडप?
तर असलीं हीं सगळीं टॅन्शनां दिवाळेक येतात.
थोड्यांक दिवाळेक पेन्शनां येतात म्हणटात.
म्हजे सारक्याक हीं नाका जाल्लीं टॅन्शनां.
आतांय हांव हींच टॅन्शनां घेवन बसलां.
जायराती आयल्यात. लेख पावंक नात.
लेख पावल्यात पूण जायराती उण्यो आसात.
पाड पडूं! हांवेंय आतां पालेकारूच जावप.
आनीक एका ट्रस्टाची गोंयाक गरज आसा.
निदान दिवाळेक काळीज कलकलता तें तरी बंद जातलें.
म्हजे वांगडाच गोंयच्या लेखक-कविंचें...!

* * *

# म्हाका तांची याद येता




फेलीस्यु कार्दोज

यशवंत शंकर नागडे 'भाई वलागरकर', 'भाई वेलणकर' अशीं वेगवेगळीं नांवां घेवन गोंयचे सुटके खातीर गोंयांत वावुरतालो. तो वेवसायान मराठी मास्तर. आमी ताका नागडे मास्तर म्हणटाले. तो आंगलटीन मोटवो आनी बारीक किडकिडीत आसलो. पूण काळजान व्हड. गोंयचे सुटके खातीर ताणें अपरूप काम केलां.

हांवें नागडे मास्तराक पयले पावटीं पळेलो तो मडगांवच्या क्वार्तेलार. १७-६-१९५४ दिसा पुलिसांनी नावेले वचून भौ. शामराव मडकयकाराक धरललो. उपरांत ताका मडगांवां हाडून क्वार्तेलार बंद केल्लो. ताचे फाटोफाट नागडे मास्तराक कैदी करून हाडललो. केन्ना केन्नाय आजेंत मोंतेयरू ताका बोट दाखोवन आमकां पुर्तुगेजींत सांगतालो: ''aquele gajo queria vender Goa por sessenta rupias.'' (तो भाडयो गोंय साठ रुपयांक विकूंक सोदतालो.) मोंतेयरू ताका अशें कित्याक म्हणटालो तें म्हाका उपरांत समजलें. नागडे मास्तराच्या बिराडार पुलिसांनी झडटी घेतली तेन्ना कांय राष्ट्रवादी पोस्टर आनी भौ. पिटर आल्वारीसाक बरयलली एक चीट तांकां सांपडलली. ते चिटीर आपणाक साठ रुपया धाडून दिवपाक ताणें पिटराक बरयललें.

नागडे मास्तर जायतीं वर्सां गोंयच्या सुटके संग्रामांत आसलो. १९४६ वर्सा ताणें काणकोणां सत्याग्रह केल्लो. तेन्ना ताका पुलिसांनी बरोच पेटयललो आनी जायतो वेळ दोरांनी बांदून दवरललो.

१९५०तल्या दसकांत भौ. शामराव मडकयकारान नावेली गांवांत एक मराठी शाळा – 'सरस्वती विद्यालय' – सुरू केल्ली. शाळेच्या फिये दुडवां वरवीं शाळा चलोवंक जायनासली. तेन्ना फी म्हण कितली आसताली? चवथे यत्तेक २ रुपया; सकयल्या वर्गांनी १½, १ रुपया अशी. ती शाळा चालू दवरूंक शामराव आपल्या इश्टां कडेन आनी वळखिच्यां कडेन दर म्हयन्याक वर्गणी घेतालो. कमीच ४ आणे (२५ पैशे) वर्गणी आसताली. भोव थोडे जाण चड दुडू शाळे खातीर दिताले. हे शाळेंत नागडे मास्तरान एक वरस शिकयललें.

तेन्ना नावेलेचे इगर्जेंत पाद्री आलवारु पींतू विगार म्हण आयललो. गोंयच्या पाद्रीं भितर भोव थोडे – हाता बोटांचेर मेजूंक जातात तितले – राष्ट्रवादी आसले तातुंतलो फा. आलवारू एक. ताची शामरावा कडेन वळख जाली. दोगांयचीं राजकी मतां एका व्हारविस्ताराचीं आसलीं. फा. आलवारान ती शाळा इगर्जे शाळे घरांत हाडूंक लायली. 'सरस्वती विद्यालय' हें शाळेचें नांव बदलून तिका नवें नांव दिलें: 'निर्मल मराठी शाळा'.

इगर्जे घरांत विगार मराठी शाळा चलयता म्हण गांवच्या कांय लोकांनी ती शाळा बंद करूंक चळवळ सुरू केली. पात्रिआर्का कडेन शाळे आड तक्रार केली. धर्मीक वडीलान फा. आलवाराचेर दबाव हाडलो. हे वरवीं ५-६ म्हयन्यां उपरांत 'निर्मल मराठी शाळा' इगर्जे घरांतली हालोवन दुसऱ्या घरांत व्हेली.

शामरावाक कैदी करून दवरतच ती 'निर्मल मराठी शाळा' चालू दवरपाची जबाबदारी डॉ. मनोहर शेणवी कुडचडकार ह्या वैजान घेतली.*

१९५४ वर्सा ज्युलाचे २१वेर नावेलेच्या विगाराक पाद्री आलवारु पींताक पुर्तुगेज पुलिसेन धरून व्हेलो. 'राष्ट्रवादी' ही चकती लावन एका पाद्रीक बंदखणींत दवरल्यार ताचो परिणाम वायट जातलो म्हण तेन्नाचो पात्रिआर्क समजलो. ताणें सरकारी अधिकाऱ्यां कडेन मदेस्ताय केली आनी ते वरवीं पाद्री पींताची सुटका जाली.

नागडे मास्तरा विशीं आग्वादाचे बंदखणींत घडलले एके घडणुकेची याद म्हज्या मनांत घट बरी आसा. १९५४त आमी एकवीसय जाण बंदखणिचे एके खोलयेंत आसले. सांजवेळार एक कार्यावळ करताले. हे कार्यावळींत कोणाचेंय भाशण आसतालें आनी उपरांत त्या भाशणाचेर चर्चा जाताली. केन्नाय वाद-विवाद करताले.

एका दिसा अशी एक चर्चा जाली जी शेवटीं ह्या निश्कर्शा कडेन पावली: आमी सगले भाव भाव कशे जियेतात. हांवें मात आक्षेप घेतलो. 'सगलेच भावपणान जियेतात अशें म्हणूंक जायना. अपवादूय आसात. एकलो दुकलो धनी-चाकर असल्याय नात्यान वागता', हांवें म्हळें. इतल्याक अनेक जाण तसो कोण वागता काय म्हण म्हाका विचारूंक लागले. हांवें नांव सांगूंक ना, पूण म्हळें, 'तुमी चतरायेन पळेयात.' 'बेश्टो वयलेवयर उलयनाका. कोण तो सांग' म्हण तो 'दोतोर' आग्रो करूंक लागलो. शेकीं हांवें म्हळें, 'तूंच तो'. 'दोतोर' तांबडो जालो. 'अशें कित्याक म्हणटा तें सांग' म्हण ताणें आवाज मोटो करून म्हाका म्हळें. तेन्ना हांवें सांगलें: 'हांगा सगले जेवतकच आपापलीं ताटां-मगां धुतात. तूं मात जेवले उपरांत आपल्यो उश्ट्यो वस्तू मास्तरा कडेन धुवन घेता. तुज्यान आपल्यो वस्तू धुवूंक जायनात?' दोतोराच्या तोंडार राग उदेलो. 'हांव फुकट धुवन घेना. हांव ताका सिग्रेट दितां.' ताणें चाळवन म्हळें. 'तशें जाल्यार तूं ताका चाकर जाल्ले परीं सिग्रेटीन फारीक करता.' हांवें म्हळें. आमचे दोगांयचे भितर वातावरण तापत वतालें. वकील पांडुरंगबाब मुळगांवकार आनी दोग-तीग जाण मदीं पडून आमचो वाद थांबयलो.

दुसऱ्या दिसा रांदपाची पाळी म्हज्या पंगडाची आसली. दनपारां जेवण तयार केलें. दर एकलो आपलें ताट बी धुवन गेलो. निमाणें तो 'दोतोर' तोंड काळेंच करून मोरये कडेन आपलीं आयदनां घेवन आयलो. ताट घांसतां घांसतां, कुजनांत आनीक कोण ना सो पळेवन, म्हाका अपमानाचीं उतरां उलोवंक लागलो. आपली व्हडवीक सांगतना आनी म्हाका हिणसायतना तो तोंडांतल्यान किडे ओंकलो! त्या दिसाच्यान तो 'दोतोर' आपल्यो वस्तू आपूण धुवपाक लागलो आनी नागडे मास्तराक सिग्रेटी मेळटाल्यो त्यो बंद जाल्यो.

---

* १९५८ वर्सा म्हजी आनी शामराव मडकयकाराची सुटका जाली. डॉ. कुडचडकारान 'निर्मल मराठी शाळा' परत शामरावा ताब्यांत दिली. त्या समयार पुर्तुगेज सरकारान असो एक नेम केल्लो: मराठी शाळांनी सकतीन पुर्तुगेज विशय शिकोवंक जाय. ते परमणें हांव ते शाळेंत पुर्तुगेज शिकयतालों. बाब आरसेन्यु ज्याकिश इंगलीश शिकयतालो. आमी आपखुशेन शिकयताले. गोंयची सुटका जातकच हांवें शिकोवपाचें सोडून दिलें. १९६४ वर्साच्या गिमांत एक बरी संस्कृतीक कार्यावळ करून ती शाळा बंद केली. शाळेच्यो ज्यो वस्तू आसल्यो त्यो शामरावान नावेलेचे 'फ्रांसीश्कु लुईश गॉमिश' हे सरकारी प्राथमीक शाळेक दिल्यो.

१९५५ वर्सा जानेराचे १४वेर पुर्तुगेज सरकारान ५५ भारती स्वातंत्र्य सैनिकांक सोडून दिले. दुसऱ्या दिसा, १५वेर नागडे मास्तराक आनी दोग जाणांक सुटका दिली. आनी २०वेर आनीक एकल्या भारती सुटके झुजाऱ्याची सुटका केली. ह्या सगल्यांक गोंयचे शिमे भायर व्हरून सोडले.

नागडे मास्तरान गोंय मुक्त करूंक जायतो त्याग केल्लो. खूब मार खाल्लो, बंदखण भोगलली. पुर्तुगेज सरकाराच्या पुलिसांनी दिल्ल्या कश्टां-त्रासांचो ताका ज़ायतो अणभव आसलो. तरी ताणें धीर सोडूंक ना. आपली सुटका जाल्ली तेन्ना सावन गोंयची मुक्ती जायी परयांत नागडे मास्तर आंत्र्यान-पयऱ्यान वेगवेगळो भेस करून गोंयांत येतालो आनी सुटके चळवळीक नेट दितालो. माराची, बंदखणिची पर्वा करिनासतना गोंयचे मुक्ती खातीर तो सतत वावरलो.

गोंयचे सुटके उपरांत नागडे मास्तर एके सरकारी मराठी शाळेंत शिकयतालो. निवृत्त जातच थोड्या वर्सांनी तो हो संवसार सोडून गेलो. तो शांत तकलेचो, ल्हान उतरांचो पूण व्हड काळजाचो आसलो.

रामचंद्र कृष्ण पोटे. हो म्हाका थोडेच दीस मेळ्ळो. तो एक भारती पुलीस. तो केन्ना केन्ना भेस बदलून 'नॅशनल काँग्रेस गोवा'चीं पत्रकां गोंयांत वांटपा खातीर हाडटालो. ताका दुबावान १९५५ वर्सा पुर्तुगेज पुलिसांनी धरलो. त्या वेळार ताचे कडेन कांयच मेळूंक ना. तरी ताका बंदखणींत घालून खूब मार दिल्लो. ताणें आपूण कित्यांतच ना म्हण सांगलें. इतलो मार घेतासतना ताणें कोणाचेंच नांव सांगून दिवंक ना. तरी ताका कैदी करून आग्वादाक धाडून दिल्लो.

पोटेबाब कातीन काळो. जिवान बरो, घटमूट आसलो. सभावान मातसो भोळो सो. त्रिदिबकुमार चौधरी. आग्वादाचे बंदखणींत आसतनाच ताच्या इश्टांनी ताका लोकसभेचे वेंचणुकेंत उमेदवार दवरला म्हण खबर जाल्ली. आमच्या भितरल्या थोड्यांनी पोटेबाबाक मस्कऱ्यांनी, त्रिदिबबाबू परीं, लोकसभेचे वेंचणुकेंत उमेदवार रावंक कोंबार काडलो. तो स्वातंत्र्य सैनीक म्हणटकच निवडणुकेंत जिखतलोच म्हण कांय जाणांनी गंभीरतायेन ताका सांगलें. पूण आमदार, खासदार जावपाक थोडेंभोंव शिक्षण आसूंक जाय, देखून ताणें अभ्यास करपाक लागूंक जाय म्हण आनीक कोणें कोणें ताका बुद्द दिली. पोटेबाबाक तें खरेंच दिसलें. तेन्नाच्यान तो अभ्यासाक पेटलो. मेळत तें पुस्तक घेवन तो तें 'शिकपाक' बसतालो. कोणेंय ताका जाप करून कितेंय सांगल्यार तो मराठींत म्हणटालो: ''जरा थांबा, मी अभ्यास करतो.'' आमकां ताची गंमत दिसताली. आमी भायल्यान कसलेंच लखेण दाखयनासतना मनांतल्या मनांत मात बरेंच हांसताले. पटेबाब बाबडो आपले इश्ट उमेदवारिचो फर्म धाडटलेच म्हण रावतालो. शेकीं २-२-१९५७ तारकेर ताची सुटका जाली. उपरांत ताचें कितें जालें तें म्हाका कळूंक ना. तो आग्वादाचे बंदखणींत आसतना गोड आवाजांत प्रार्थना म्हणटालो ताचे सूर केन्ना केन्नाय म्हज्या कानांत सादतात.

(चलता)

# लोकबिंब : संस्कृतायेची भौं-ताशी वळख

डॉ. किरण बुडकुले

सातत्यान आनी निश्ठेन लोकसंस्कृतायेचो माग घेत लोकसाहित्याच्या मळार वावुरपी अथक अभ्यासक म्हूण बाय जयंती नायक, लोकवेदांत रस घेवपी सगल्या वाचप्यांचे वळखिचें आसा. **रथा तुज्यो घुडयो** (१९९२), **कणेर खुंटी नारी** (१९९२) आनी **तळय उखल्ली खेळ्यांनी** ह्या तिगेल्या संकलनां उपरांत, **पेडणेचो दसरो** (१९९३) आनी **आमोणें: एक लोकजीण** (१९९३) हे म्हायतीपुराय दस्तावेज म्हळ्यार लेखिकेच्या बळत वचपी अभ्यास-विवेचनाची लक्षवेधी गवांय. **लोकबिंब** (१९९८) हें ह्या बळत, फळत वचपी अभ्यासाचें फुडलें पावल. ह्या थारावन घाल्ल्या पावलाक अभ्यासू विवेचना वरवीं येवकार दिवप हें दरेका लोकवेद संशोधकाचें कर्तव्य. कारण, हातुंतल्यान कोंकणींतल्या लोकवेदाच्या वावराक चिकित्सक संशोधनाची, चौफेर म्हायतिची आनी सिद्धांतीक फास्केची कितलिशी थीर वा भरवंशाची बसका लाभल्या ताचो आढावो घेवंक मेळटा. तेच परी, अशा आढाव्यांतल्यान ह्या मळावेल्या हेर उमेदी/नवोदीत वावुरप्यांक उपेगी निश्कर्श आनी गरजेच्यो शिटकावण्यो दिवंक मेळटात.

अशे तरेचो नियाळ लोकवेदांत कमर-मान मोडून अभ्यास करपी, क्षेत्रसंशोधनांत फुडें आसपी आनी सिद्धांतीक फाटभूंय आशिल्लेच व्यक्तीन केल्लो जाल्यार जयंतीबायक अदीक न्याय दिवप जातलें आशिल्लें. म्हगेलें लोकवेदा कडलें नातें वयलेचाराचें. लोकसंस्कृतायेचे व्हांवते वांगडा आंतरक्षेत्रीय अभ्यासा फाटल्या कुतुहलाक लागून आनी लोकवेदा कडले आनी सैमीक सोयरिकेक लागून जोडिल्लें. ह्या सुक्षीम नात्याक पाळो दिवचेलो यत्न हांगा जातलो. 'जागा'च्या संपादक मंडळाचे सुचोवणे वयल्यान नियाळाक हात घालतना लेखिकेचेर अन्याय जावचो न्हय ही जतनाय घेवपाचोय हांवें यत्न केला. **लोकबिम्ब** हें सर्जनशील बरप न्हय, तर अभ्यासू नदरेन ''कोंकणींतल्यान लोकवेदाचें अध्ययन करूंक सोदतल्या विद्यार्थ्यांक 'लोकवेद' ही संकल्पना स्पश्ट जावची'' ह्या हेतान लेखिकेन विचारपूर्वक जल्माक घाल्लें तें शास्त्रपुराय विवेचन हाची जाणविकाय हांगा दवरल्या. देखूनच व्यक्तिनिश्ठ वा 'सरसकटपणान मान्य' प्रमेयांच्या आदारान पुस्तकाचेर भाश्य करपाचो मोह टाळूंक जाय आनी टिका/तुस्त हांची बुन्याद शास्त्रीय वा तर्कशुद्ध भासाभाशेचेरच आदारूंक जाय हाचेंय भान दवरलां. निमाणें, अभ्यास करून बरयिल्ल्या पुस्तकाचेर अन्यायपूर्वक वा तर्कदुश्ट नदरेन बरोवप म्हळ्यार अभ्यासकाचो न्हय तर अभ्यासाचोच अपमान थारता. ते भायर, नियाळांत बुन्यादशून्य विधानां आयल्यार खुद्द लेखकाक तांचें खंडन-मंडन करपा खातीर आपणालो मोलादीक वेळ फुकट घालोवचो पडटा, ना जाल्यार विद्यार्थ्यांची दिकाभूल जावंक शकता. हें सगलें हो नियाळ बरोवचे आदींच सांगप म्हाका गरजेचें दिसता. हांगा नियाळप्याच्या व्यक्तिगत रसग्रहणाक वा वैयक्तिक मतांक भोव उणो वाव दिला आनी उपलब्ध म्हायती, लेखिकेले पुस्तकांतले मुद्दे आनी तांकां आधार दिवपी मतां वा विचारप्रणाली हांकां अदीक म्हत्व दिलां. वाचकांक आवडपी गजालीं परस ताका (विद्यार्थी म्हूण) गरजेच्या आशिल्ल्या गजालींचेर चड करून आदन दवरलां. ते भायर असल्या वावराक येवपी अडचणी, ते खातीर उपलब्ध आशिल्लीं (अल्प) साधनां आनी उणें मनीसबळ हाचीय जाणविकाय दवरल्या.

**लोकबिंब** पुस्तकांतलें मनोगत – 'लोकबिंब पडबिंबीत जातना...' लेखिकेचें प्रयोजन स्पश्ट करता आनी तिणें बरपाची आंखणी कशी केल्या हाची स्पश्ट




फोडणिशी करता. ह्या प्रयोजन-मांडावळिचे जोडणेक लागून जयंतीबायन **लोकबिंबा**चे तीन वांटे थारायल्यात हें ह्योलमता. लोकवेदाची संकल्पना, इतिहास आनी मुळावण हांचेर उजवाड घालपी सुरवेचे तीन लेख एका वांट्यांत घालूं येतात; लेखिकेन तांकां लोकवेद संकल्पनेच्या 'स्पश्टीकरण-कार्या भोंवतणीं' घुंवपी लेख म्हळ्यारत; दुसऱ्या भागांतले लेख तिणें ''लोकवेदाच्या गुण-वैशिश्ट्यांचेर बरयिल्ले आसात, जाल्यार तिसऱ्या भागांतले लेख विविध आंगां प्रकारां संबंदी म्हायती दितात''. ही मांडावळ लेखिकेन स्पश्ट केल्ल्यान एके वटेन अभ्यासकाची सोय जाता; मात लेखांचें अंतरंग पळेले उपरांत हे तिगेले विभागणे कडेन वाचपी पुरायेन सहमत जातलोच अशें ना. हातूंत व्यक्तिगत मतमतांतराचो वा निखट्या दिश्टीकोणाचो फरक आसूं येता.

अभ्यासकांचे सुविधे खातीर 'लोकवेद' ही संकल्पना 'उजागर' करचे आदीं लेखिकेन चत्रायेन जनमानसांत आशिल्ल्यो लोकवेदा विशिंच्यो धारणा तश्योच गैरसमजण्यो हांचेर फावोसो उजवाड घाला. विशेश म्हळ्यार, हें करतना तिणें स्पश्ट आनी बऱ्याच प्रमाणांत नेमकी भास वापरल्या. ही भास अदीक सोंपी आसूंक जाय आशिल्ली अशें भौ. भांगी हांणी प्रस्तावनेंत म्हळां. हें मत म्हाका तत्वतः पटलें तरी सिद्धांतीक बरपांत अशें करप सदांच शक्य नासता. एक म्हळ्यार, अशा बरपांत दुविधा, हयन्हयशेंपण, दुभाव हांकां सुवात ना; आनी दुसरें, सदांच विशिश्ट उतरावळ वापरीत रावले उपरांत खुद्द अभ्यासकाक ती कठीण दिसना. ती तागेली सभावीक भाशीक संपत जावन बसता. हें लक्षांत घेतल्यार आनी ह्या बरपा वरवीं आजी-भावी विद्यार्थ्यांक लाभिल्ले आवश्यक म्हायतीक प्राधान्य दिल्यार, पुस्तकांतली भास जड म्हणपा सारकी ना.

**लोकबिम्बा**च्या सुरवेच्या लेखांनी पारिभाशीक भासाभास आसा तिचो विशेश उल्लेख हांगा करूंक जाय. 'लोकवेद', 'लोक', 'फोकलोर' (folklore) अशा वेंचीक उतरांची व्याख्या लेखिकेन हांगा करचेलो तोखणाय

करपा सारको यत्न केला. मात 'लोकवेद' हें उतर 'फोकलोर' ह्या उतराक समानार्थी लेखून व्याख्या दिल्यात त्यो चड करून पश्चिमी विद्वानांच्यो आनी एका लोकवेद विशयक शब्दकोशांतल्यो आसात. (Standard Dictionary of Folklore, Mythology and Legends, (ed.) Maria Leach.) हाका लागून एक आडखळ उप्रासता. ह्यो व्याख्या एका काळार घडयिल्ल्यो आशिल्ल्यान फुडल्या ५० वर्सांत ह्या क्षेत्रांत जर दिश्टिकोणाचो बदल जाल्लो आसलो जाल्यार ताचो माग मेळना. तेच परी, भारतीय लोकवेद अभ्यासकांच्यो folklore संबंदी व्याख्या कितें आशिल्ल्यो काय हो प्रस्न अनुत्तरीत उरता. भारतीय संस्कृती कोश [संपा. महादेवशास्त्री जोशी], ज्ञानकोश वा तत्सम हेर लोकवेद विशयक शास्त्रीय बरप हांतुंतल्योय शास्त्रशुद्ध व्याख्या जर ह्याच संदर्भात दिल्ल्यो जाल्यार भावी विद्यार्थ्यांक अदीक चौकस आवांठांतल्यान आपलेपुरती समजणी मेळोवंक सुविधा जातली आसली. पयल्या लेखांत हें जावंक जाय आशिल्लें.

उपरांत, लेखिकेन ''लोकवेदांतल्यान संस्कृतीचें जतन'' ह्या लेखांत (लेख ५) Folklore हाका पर्यायी उतर म्हूण डॉ. कृष्णदेव उपाध्याय हांणी वापरिल्ल्या **लोकसंस्कृती** ह्या उतराची फोडणिशी केल्या (पा. २४-२५), पूण ती सुरवेक हेर व्याख्यां बरोबर आयल्यार तुळात्मक समजणेक अदीक वाव मेळपाचो. तशेंच, सुरवेच्या व्याख्यां मदीं डॉ. सुनितीकुमार चटर्जी हांणी folkloreक वापरिल्लो 'लोकायन' हो शब्द, 'लोकवार्ता' हो भारतीय प्रतिशब्द, कांय विद्वानांनी वापरिल्ले 'लोकविद्या', 'लोकसंस्कृती' हे शब्द हांचीय विस्कावणी येवंक जाय आशिल्ली. अशें सुचोवपाचें कारण लेखिकेचें उणें दाखोवप न्हय, तर तिणें **भारतीय संस्कृती कोश, लोकसाहित्याची रूपरेखा, लोकसंचित, लोकसाहित्याचे अत:प्रवाह, लोकसाहित्याचें स्वरूप** आनी हेर कितलिंशींच भारतीय पुस्तकां ह्या अभ्यासांत वापरल्यांत तांचो फावो थंय उपेग करूं येतालो अशें सुचोवपाचो यत्न. खासा लेखिकाच म्हणटा, ''लोकवेदाची व्याख्या कितें आसची हाचेर तर कोणाचेंच एकमत ना. हाची गवाय 'स्टँडर्ड डिक्शनरी ऑफ फोकलोर, मायथॉलॉजी एण्ड लिजण्डस्' हातूंत लोकवेदाच्यो ज्यो एकवीस व्याख्या मेळटात त्यो अभ्यासल्यार दिसून येता.'' (पा.२)

तेच परीन, भारतीय अभ्यासकां मदीं folklore हाची व्याख्या खंयच्या भारतीय प्रतिशब्दान करची हाचेमदीं एकमत ना. म्हूण, सुरवेक भारतीय संदर्भात लोकवेदाची स्वीकृत व्याख्या घेवन मागीरच तें उतर folklore ह्या उतराक प्रतिशब्द म्हूण पुस्तकांत घाल्यार बरें जावपाचें. हांगा लेखिकेक मान्य अशी 'लोकवेद' ह्या उतराची व्याख्या (तें उतर folklore क प्रतिशब्द म्हूण वापरचे आदीं) अपेक्षित आशिल्ली. कारण लेखिका शणै गोंयबाबान तें 'मौखीक वाङ्मय' (oral literature, लोकसाहित्य ?) इतल्याच मर्यादीत अर्थान वापरिल्लें आसा अशें सांगता. मात ''कोंकणी लोकवेदाचो अभ्यास करपी आयचे नवे पिळगेचे अभ्यासक मात आज संवसारीक पांवड्यावेले लोकवेद अभ्यासाचे स्त्रोत पुराय जाणून आसात, देखूनच 'लोकवेद' हें उतर ते 'लोकजिणेचो समग्र अभ्यास' अशा व्यापक अर्थान घेतात'' (पा.६) अशेंय ती मान्य करता. ह्याच पेण्यार जर तिणें ह्या पुस्तकांत वापरिल्लें 'लोकवेद' हें उतर 'लोकसंस्कृती' वा 'लोकवार्ता' वा 'लोक साहित्य' ह्या वा अशा दुसऱ्या खंयच्या उतरांतल्यान उक्तावता काय ना हें सांगिल्लें बरें जावपाचें. कारण पुस्तकांत चडांत चड उपेग मौखिक लोकसाहित्याचो केला आनी लोकवेदाक संस्कृतायेचो हारसो म्हूण उल्लेखला (पा.२४).

**लोकबिंब** ह्या पुस्तकाची आनीक एक खाशेली जमेची वट म्हळ्यार लोकवेदाक भौ-आयामी नदरेन पळोवचेली लेखिकेली धडपड. तिणें लोकवेदांतल्यान, लोकमानस, इतिहास, समाजजीण, नैतिकता, धर्म ह्या लोकसंस्कृताये कडेन जोडिल्ल्या विविध आंगांचो बारकायेन आनी उत्सुकतायेन सोद घेतला. हातुंतल्यान, लोकवेदांतल्यान घडपी नीत-अनितिची वळख, लोकशिक्षणाचें कार्य, धार्मिक भावनेचें संवर्धन, भूतकाळाचें दर्शन, सामाजिक बांदावळिचें आलोकन आदी जनसामान्यांचे आस्थेचे विशय लेखिकेन वाचप्यां मुखार दवरल्यात. तशेंच, लोकवेद लोकांच्या जिविताचो अविभाज्य वांटो आसुनूय तो काळानुरूप कसो बदलत वता आनी वेगवेगळ्या इतिहासीक पेण्यांचेर समाजाच्यो फावोश्यो अभिव्यक्तीयुक्त गरजो कशो पुराय करता हें तिणें देखीं सयत दाखयलां. कांय खेपो ही अभिव्यक्ती कलात्मक आविश्काराचें रूप घेता; कांय खेपो काव्याचें आंगलें पांगरून सामाजीक विद्रोहाचें वा सामुहीक निशेधाचें रूप घेता; तर हेर कांय खेपो ही अभिव्यक्ती समाजमानसाचें उक्तावण करून विकृतिची भायरावणी करून समाजसंतुलन राखता; तशेंच रीतरविसो, श्रद्धा-मान्यतायो हांचें जतन करून इतिहासीक यथार्थाक फुडल्या पिळग्यां मेरेन पावोवपाक आदाव करता.

लोकवेदाच्या वावरांत आपणाक आयिल्ल्या कांय अनिश्ट अणभवांचो आनी नीज धिगयेचो उल्लेखय जयंतीबायन **लोकबिंबां**त केला, जे वरवीं भावी संशोधकाक एके तरेचो धीर आनी थाकाय मेळटा. आर्थीक-सामाजीक नदरेन बळिश्ट समाजाक फावोशा रंगांनी पितारपी लोकसाहित्याचें संकलन लेगीत कशें प्रतिकाराचें रूप थारूंक शकता हें तिणें अचळय दाखयलां. उल्लेखनीय लेख म्हळ्यार 'बामण' समाजा विशीं शिगम्या कडेन संबंदीत कवनां/गीतां (''सामुहीक निशेध'' पा. ४१-४५) ह्या बऱ्याच गितां फाटल्यान लोकांक आपल्या मनांतलो 'जाळ' सामुहीक रितीन उकतो करूंक मेळटालो हें तिगेलें मत पटपा सारकें आसा. देखीक, ''हातांत नम नम, कानाक लिखणी / **चंद्रवाडी नागोवन खाली बामणांनी बा रावजे** (पा. ४५). अशेच तरेची भावना उक्तावपी गितां हेर गांवांनी मेळटात जातूंत त्या त्या गांवचें नांव गुंथिल्लें आसा. (देखीक, xxx विकोन खायलें गा बामणांनी).

मात, सामुहीक निशेध आनी सामाजीक विकृती हांकां वेगळावंक जाय. शिगम्या वेळार जीं विनोद-बकच्छायो करपी गितां आसात तातूंत जात विशयक नांवां आयलीं तरी तीं सगळीं निशेधाचें रूप घेवंक पावनात. कांय वेळार तीं समाजमानसांतल्या विविध विकृतिंचें उक्तावण करतात. तांगेलो आसपाव लेखिकेन समाजमानसावेल्या लेखांत करूंक जाय आसलो. कित्याक काय म्हळ्यार, अशा कवनांतल्यान उकतो जावपी भाव / रसिकता / आमटशौक / विकृती / विनोद एखाद्रे व्यक्तिच्या सुप्तमनाचो आविश्कार आसूनय तो लोकमानसाचेर फोक घालता आनी लोकमानसांतल्या अनिश्ट प्रवृत्तिंचेर बोट दवरता. देखीक, ''तन्नी आंबली खळांत / बामणा चली व्हाळांत / चोय ! चोय !'' (पा. ४३) हातूंत जातनिर्दशक उतर आसूनय तातुंतल्यान कल्पनाविलास, रसिकता आनी आमटशौक हांचेंच दर्शन घडटा. ह्या कवनाक निशेधाचें कवन म्हळें जाल्यार समाजाचे अनिश्ट मानसिकतेचें तें दर्शन थारता जंय 'बायल' ह्या घटकाक पुराय गुटा खातीर न्हय थंय जापसालदार धरून अनाठांय आपणाल्या राग-दुस्वासाचें बळी थारावप घडटा.

एक दोन खेरीत देखी दिल्यार हो मुद्दो स्पश्ट जातलो. एक गीत आसा, ''xxx कोंकारी तळ्याबांदार उदो न्हावताली / तियेलो घागरो सुटोलो / लोकांचो हांसून खुको / माडावयल्या रेंदरान देखलो.'' हांगाय एके अस्तुरेचो विशिश्ट सामाजीक संदर्भा सयत उल्लेख आसा आनी तातुंतय एके तरची पच्छी उडोवपी विनोद आसा. ताका जातीय वंगण आसा म्हूण सामुहीक निशेध म्हणूंक मेळचो ना काय दिसता. तशीच ही एक देख पळोवं येता : ''xxणी, ''xxणी, ''xxन्नी, ''xxन, घट, कासाट्यान सदळ.'' हातुंतय तीन विशिश्ट जातीं संदर्भात अस्तुरेचेर केल्ली हीण अभिरुचिची शेरेबाजी आसा ताका निशेध वा सामुहीक रोष उक्तावप म्हणूंक जावचें ना. तशीच ही म्हण : ''xx, xx, भांगर पेटी, भांगर जालें उणें, xx बायल सुणें.'' हांगाय बायलेचो उल्लेख अनाठांय जातवाचक संदर्भ दिवन अनादरान केला. ''रोटग्या कणकी आनी xxx पोट्टी मस्तिता तितुली रुचीक लागता'' हिवूय एक अशीच अनिश्ट, अनावश्यक म्हण. हातुंतल्यान आंतरजातीय दुस्वास दिसता पूण

चड दिसता ती अस्तुरेक हिणसावपाची हिडीस प्रवृत्ती. तिचो निशेध जावंक जाय; तिका सामुहीक निशेध अशें गणून लोकवेद निरुपणांत स्विकृती मेळूंक फावना. ही सामाजिक विकृती जिचो शिगम्या सारक्या 'मान्य' लोकअभिव्यक्तींतल्यान निचरो जाता, ही बरी गजाल. पूण हो निशेध न्हय. निशेधपर गीत उपरोध / राग / व्यंग अशें म्हाका दिसता. देखीक, ''पोंदल्यान टवकर वयल्यान कात / भटा-बामणाची उत्तम जात'' (हांगा 'उत्तम' ह्या उतराचेर उपरोधाचो भार आसा आनी ताचो मारो सगळ्या गटाक जावचो असो हावेस ह्या शिगम्या गितांत लिपला. अशीच एक म्हण आसा: ''सोनार शिंपी कुलकर्णी आप्पा हांची संगत नको रे बाप्पा.''

लोककलांच्या संदर्भांत **लोकबिंब** उपेगी विवेचन करता पूण तें आनीक कांय देखीं सयत जावंक जाय आशिल्लें. खरें म्हळ्यार कांय अंशीं अशें विवेचन लोकनाट्य आनी लोकनृत्य हांचे संबंदान आशिल्ल्या लेखांनी आयलां. तशेंच, 'समाजीक संस्था', 'लग्न आनी संबंदीत चाली रिती' हे लेख एका सांगातान आयल्यार बरें जावपाचें. 'धर्माचो प्रचार' ह्या माथाळ्यांत प्रसार वा संवर्धन हीं उतरां बरीं दिसपाचीं काय? 'लोकसंस्कृती' विशिंचो लेख आनी विविध संस्कारांचेर आधारीत लेख वांगडा आयल्यार पुनरावत्ती टाळूंक जाताली. हे नदरेन 'इतिहासाचें सोपण' आनी 'पुरातत्व संशोधनाचो वाटाडो' हे लेख सांगाता आयिल्ल्यान वाचप्याक सुविधा जाता. 'लोकमानस' विशयक लेख आनी 'सुप्त मनाची निर्मिती' सांगातान आयल्यार लेखिकेक बरें पडटलें आसलें, अशें लेख वाचतना दिसलें. पूण आपणाले लेख कशे मांडचे हें लेखिकेलें स्वतंत्र मत आसता, देखून ताचो आदर करचो पडटलो.

कांय लेखांनी जयंतीबायन जथापथ आपणाले निश्कर्श दिवन लेखाक पूर्णत्व हाडलां. मात कांय कडेन लेख हुमकळत उरला. (देखीक, 'सुप्त मनाची निर्मिती', 'लोकनाट्याचें स्वरूप'.) घडये हे लेख आर्दी लेखांमाळ ह्या रुपान गुंथिल्ल्यान अशें जालां जायत. पूण निमाणे कडेन तरी एक पान-दोन पानां न्हय जाल्यार अर्द पानभर तरी, पुराय पुस्तकाच्या एकवटीत आंगाचेर नदर मारून सगल्या लेखांक गांठावपी एक परिच्छेद जाय आशिल्लो. ह्या पुस्तकाची फुडली आवृत्ती येतली अशी म्हाका आस्त आसा. न्हय, तशी म्हजी मनोमन इत्सा आसा. तेन्ना ह्या बारीक गजालीं कडेन जयंतीबायन लक्ष दिवचें. तिणें बारीकसाणेन वेंचून काडिल्ले रंगीत फोटे ह्या पुस्तकाचें खासा आकर्शण थारतात. ते तिका उपलब्ध करून दिल्ले खातीर तिगेल्या सहकाऱ्यांक परबीं फावतात. ह्या पुस्तकांतले बरे साधिल्ले कांय लेख आसात तातूंत 'गूढशक्तीचें अस्तित्व' आनी 'चाली-रिती', 'संस्कार' हांचे वयलें म्हायतीपुराय बरप आस्पावता. पयल्या लेखांत लेखिकेले विस्कावणेची झलक दिसता, जाल्यार हेर दोंन (आनिकूय कांय) लेखांनी तिगेल्या क्षेत्रसंशोधनाचें येस आनी ते खातीर काडिल्ल्या कश्टांची गवाय मेळटा.

वाचतना अशें तरेचें पुस्तक बरोवंक सोपें अशें दिसता. पूण जे व्यक्ती कडेन अदीक म्हायती आसता तिका हे म्हायतिची मांडणी मेजक्या आवाठांत करप सोंपें काम न्हय. ही कसरत करपांत जयंतीबाय सफळ जाल्या देखून तिचें कौतुक करूंक जाय. जर थोडी सिद्धांतीक भर घाली आनी पारिभाशीक विस्कटावणी सुक्षीम नदरेन केली जाल्यार हो फुडाराक एक जबर म्हत्वाचो संदर्भ ग्रंथ थारतलो. आजय तो नव्या लोकवेदकाराक उत्तेजन आनी मार्गदर्शन करता हातूंत दुबाव ना. पूण कांय कडेन तपशील दिवपांत उणाव उरला. देखीक, पा. २चेर दिल्ली 'लोकवेदाची प्रमाण व्याख्या' खंयच्यान घेतल्या हाचो उल्लेख ना. तशेंच, ऑरिलियो एस्पीनोझाचे व्याख्येचो अणकार करतना 'पूर्वपरंपरा साकून' अशें वापरिल्लें जें उतर आसा तें बरोबर न्हय. ताच्या जाग्यार 'मौखीक परंपरेन जें पूर्वापार गिन्यान...' अशी दुरुस्ती जावंक जाय काय दिसता. तज्ञांचें मत घेवन ती व्याख्या बदलची अशी सुचोवणी! डॉ. ना.गो. कालेलकर हांच्या **भाषा आणि संस्कृती** ह्या पुस्तकाचो नेमको संदर्भ आनी ॲलन ड्युंदे हांच्या **द स्टडी ऑफ फोकलोर** ह्या पुस्तकाचें प्रकाशन वर्स **संदर्भ पुस्तकां** ह्या माथाळ्या खाला दिल्ले वळेरेंत येवंक जाय.

**आर्य** आनी **आर्येतर** असो उल्लेख ह्या पुस्तकांत केला तो योग्य! हरशीं लेखिका आर्य-अनार्य असो उल्लेख करता तो तंत्रीक नदरेन बरोबर आसूनय आर्येतरांचेर अन्याय करपी आसा कारण 'आर्य' हाका देशी संदर्भांत 'वंश' हाचे भायरय आनीक अर्थ आसात. वैदीक, अवैदीक हीं उतरां पर्थून तिजूंक जाय. सिंधू संस्कृतायेचो काळ खंयचो हाचेर नव्यान संशोधन (अदीक विज्ञानीक आनी अद्ययावत तंत्रांनी) जालां आनी जायत आसा. तें लक्षांत घेवन फुडले आवृत्तींत योग्य बदल करचे पडटले. पा. ६७चेर 'मोहेंजो दडो' ह्या 'सिंध संस्कृतींतल्यान' असो उल्लेख आसा तो 'सिंधू' संस्कृती असो आसचो. बाकी **लोकबिंब** सोबीत उदेलां. भौ. श्रीधर कामत बांबोळकाराल्या कल्पक मुखचित्रान आनी फावोशा मातकट रंगान लोकसंस्कृतायेच्या नीज रुपाची याद जिवी केल्या. वाचनीय मजकूर, दोळ्यांक थाकाय दिवपी मुद्रण आनी नितळ छपाय हांकां लागून पुस्तक हाताळीन दिसता. हें संग्राह्य पुस्तक उजवाडायिल्ले खातीर लेखिकेचें आनी गोवा कोंकणी अकादेमीचें अभिनंदन!

**लोकबिंब**
**जयंती नायक**
**गोवा कोंकणी अकादेमी, १९९८**
**पानां १८२**
**मोल: रु. १५०/-**

Regd. No. GOA 130